ल्यानसी पिंटो नायक

प्रशस्ती विजेत नाटक

# आयरिक सयरिक

सामाजिक हास्यमय नाटक



उमेद प्रकाशनाचें सात्वें पुस्तक



# आयरिक सयरिक

सामाजिक हास्यमय नाटक

*बरवपी :*

## ल्यान्सी पिंटो नायक, कुल्शेकर.

प्रकटणार:

**उमेद प्रकाशन**

**मंगलूर - 575 005**

**एप्रील 1995** **मोल : रु. 25 : 00**

**"IRIK SOIRIK"** - Konkani Drama
By Lancy Pinto Nayak
Published by Jacintha Pinto
For Umed Publications,
Pinto's Compound, Neeradpe,
Kulshekar P.O., Mangalore - 575 005.



Cover Design : **Shevgoor**

**'आयरिक सयरिक'**

बरवपी : *श्री ल्यान्सी पिंटो नायक, कुल्शेकर.*

प्रकटणार : *उमेद प्रकाशन*

छापो : *कोडियालबैल छप्खानो*

# अर्पण

नाटक कले बाल्तीन आय पुरती आतुराय चतुराय, तिदवणेच्यो कुटी, मार्गदर्शनाचीं उत्रां इत्यादी दीवन नाटक कलेंत जिवाळाय आनी मोवाळाय दीवन कुमक केल्ल्या मुज्या नाटक कलेच्य गुरूक दे। चा. फरा. दे कोस्ताक ही मानाची कृती जावन रुप्कार आटंवक अर्पितां.

- ल्यान्सी पिंटो नायक,
कुल्शेकर.

# सुर्विलें उतर ...... म्हजें !

मोगाच्या वाचप्या,

हो 'आयरिक सयरिक' नाटक हांव जाणां आसच्यापरीं बावीस पावटीं खेळळयात. तरी हर्येक्कडे नाटक खेळचो बरवप्यांक कळाना तें दुर्भाग्य.

कितेंयी जांव, नाटक - पुस्तक बुका रुपीं चडकाळ बाळवात आनी मुखल्या पिळगेक उपकाराक पडात म्हळळया आशेन परगट केलां आनी हें पुस्तक - परगट करुंक पाटिंबो दिल्लेलीं दातारांच कारण. तांका निजायकी हांव रिण्कारी जावनासां.

हो नाटक सबार पावटीं दे। चा फरा. देकोस्ताच्या तोंडारयी होग्ळापाक पात्र जाल्लो ती खुशी आनी भाग म्हजें. आनी ताच्या सहकारान सबार नाटक म्हाका रचूंक प्रेरण मेळळां तसें ताका म्हजो पयलो मान दिला.

कितेंयी जांव, तुमी आस्तां वरेग आनी म्हाका तांक्ता वरेग लिखणी झरयतलों आनी कोंकणी कला उरयतलों.

म्हाका सर्व रितिंनी प्रत्याक्श आनी परोक्श कुमक केल्लयांक काळजा थावन अर्गां दितां.

तुमी प्रदर्शन करताना म्हज्या विळासाक संपर्क करुंक विसनाकांत तुम्कां बरें जांव.

तुम्चे थंय विश्वासी

ल्यान्सी पिंटो नायक

# 'प्रकाशकी' उलयता

प्रीती मोगाळ वाचप्या,

वरसाक एक दोन बूक परगट करची अलोचन आमच्यालागीं खंडीत आनिकी जिवंत आसा.

'आयरिक सयरिक' नाटक कलासंपत नाटक लिखच्य स्परद्यांत तसें प्रदर्शन स्परद्यांत दोन पावटीं प्रशस्ती आपणायिल्लो नाटक. कलेची आनी भासेची ग्रेस्तकाय ह्या नाटकांत आसा तितलेंच न्हय, एक विभिन्नतायी झळकाता.

आवकास मेळळयार श्री ल्यान्सिचे दुस्रे नाटकयी परगट करची आलोचन आसा. कोंकणेंत 'रंगमंच शिक्षण' बूकयी श्री ल्यान्सी थावन उदेंवचो आसा. ताणें केल्लो नाटक कलेंतलो अद्याय सर्व कोंकणी लोकाक उप्काराक पडोंदी म्हळळी आमची आशा.

नाटक कले बाबतीन तो केदनांयी तर्बेती शिबीर दिंवक तयार आसा.

हें पुस्तक परगट करुंक सर्व रितीन कुमक केल्लयांचो उप्कार आटयतां आनी तांचेर देवाचीं आशिर्वादां मागतां प्रत्येक जावन श्री मात्रीस, शांतिपुर हाचो.

तुम्चो मोग आनी सहकार आम्कां जाय.

तुम्कां बऱ्यांतलें बरें माग्तांव.

**श्रीमती जेसिंता पिंटो**

*(प्रकाशकी)*

# पात्र - परिचय

| | नाव | प्राय | पात्र |
|---|---|---|---|
| 1. | आलेक्स | 58 वर्सां | सुडाळ उलोंवचो मोट्या ताळयाचो घट्ट जिवाचो, भलायकेवंत, खुशाली गुर्कार, निवृत तसिल्दार. |
| 2. | आलीस | 52 वर्सां | सुडाळ उलंवची, सळसळ्या स्वभावाची, चंचल मतिची, आलेक्साची पतीण. |
| 3. | शिला | 24 वर्सां | कामाचो, कन्यांनी तमासो, कोल्याच्या तक्लेचो, आंवसरान गोद्दें उलयल्यारी स्पश्ट उलंवचो - आलेक्सागेलो (कामाचो) |
| 4. | वित्ती | 25 वर्सां | आधुनीक युवक चडीत उडतो, आलेक्सागेर बोर्डार. |
| 5. | पाद्रयाब | 32 वर्सां | मोट्या जिवाचो, आंवसरी तसें भिवकुऱ्या स्वभावाचो मनीस विगार. |
| 6. | जोकी | 56 वर्सां | एक रैत तसें ग्रेस्त मानेस्त. |
| 7. | पोकी | 50 वर्सां | जोकिचो भाव उण्या वुदिचो. |
| 8. | बुर्गो | 12 वर्सां | सेजारी. हाका रंगस्थळार येंवची गर्ज ना. |

# वेळ- काळ

| | | |
|---|---|---|
| पयलें द्रश्य | : | फांत्याचीं स वोरां. |
| निमाणें द्रश्य | : | सकाळिंचीं नोव वोरां - स दिसा उप्रांत. |
| मांडावळ | : | पयल्या द्रश्यांत विवरसिल्ल्या तसली दोनी द्रश्यांक एकच. |
| काळ | ; | आतांचोच |
| वरवपी | : | श्री ल्यान्सी पिंटो नायक, कुल्शेकर. |
| हक्कां | : | सर्व लेखकान अमानत केल्यांत |

हिशारो: हो नाटक लेखकाच्या चिंत्पाचें एक आकार कोणायकी लागू जायना, फकत काल्पानीक सन्निवेशनां, ह्या नाटका बाबतीन लेखकाक रु. 300/- संभावन दिवन प्रदर्शनाची परवणगी घेतल्या बगार हो नाटक खंचेयी रितीन या भाग गळसून प्रदरशीत करुंक नजो, हे कळवणेचें उल्लंघन केलें तर लेखकान कानून रितीन आडाव्येत, राववव्येत आनी कानुनी क्रम तांचेर घेव्येत.

- ल्यान्सी पिंटो नायक

विळास: PINTO'S COMPOUND,
NEERADPE, KULSHEKAR,
MANGALORE - 575 005
फोन : 415008 (घरचें)

## ह्या पुस्तकाक उदार मनान पाटिंबो दिल्लेलीं दातारां :

1. सावदी कोंकण एसोसियेशन रियाद, अद्याक्ष आनी सांदे, सावदी आरेबिया.
2. श्री विक्टर मोंतेरो, कुल्शेकर आतां दुबाय.
3. श्री स्टेनी पिंटो आनी कुटाम, कुल्शेकर आतां दुबाय.
4. श्री हेराल्ड नोरोन्हा, पाल्दाने, कुल्शेकर आतां दुबाय.
5. श्री आनी श्रीमती लियो स्किवेरा, मेल्तोट, कुल्शेकर आतां दुबाय.
6. श्री आनी श्रीमती विन्सेंट सालिन्स, पांग्ळा आतां दुबाय.
7. श्री आनी श्रीमती विलियं कार्डोजा, किन्निगोळी आतां रियाद.
8. श्री रिचार्ड एम. एल. टवेरा 'कोंकण शेरस' मंगलूर - 1
9. KCWA अद्यक्ष आनी सांदे, कुवेयट.
10. Mr & Mrs. Constantinos Papadopoulos, Nicosia, Cyprus.

# लेखकाची परिचय



1972 इस्वे थावन कोंकणी साहित्यांत खळानास्तां वोळानास्तां लिख्णी झरोवन आसा.

`विधव' कादंबरेक कर्नाटका सर्काराथावन राज्य साहित्या आकाडेमिची प्रप्रथम प्रशस्ती आपणायल्या.

`पाटीं गाल्पाक!?' कादंबरेक गोंयच्या भाषा मंडळयावन तसें `चेडूं' कादंबरेक दे. लुवीम मस्कारेन्हस जल्मा शताब्दी प्रशस्त्यो लाबल्यात.

`मेल्लें न्हय मेल्लो उदेल्लो' रेडियो नाटक मंगलूर आकाशवाणी थावन प्रथम जावन शिफारसेन डेल्ली पावला.

`रंबारुट' नाटकुळो कोंकणी बासेची आनी कलेची ग्रेस्तकाय प्रदर्सुंच्या खातीर ताच्याच मुखेल्पणांत `करावळी उत्सव - 95' सर्कारा थावन आवकास मेळ्ळो.

श्री त्यान्सिच्य सोळा नाटकां पयकी एदोळच आट प्रशस्त्यो, बहुमानां नाटकांक मेळळयांत धा रेडियो नाटक ताणे रच्ल्यात.

175 वग्र काणियो, शेंबोरां लागीं कवनां शेंबोरां लागीं लेखनां, विनोद, विडंबना, विमार्सो इत्यादी धा कादंबरियो आनी हेर कोंकणेचो वाव्र श्री त्यास्निचो भासे वचलो मोग उचारची रुज्वात जावनासा.

13.12.1955 किन्निगोळींत जल्मोवन मंगळुरांत व्हड जाल्लो श्री त्यान्सी, शिकाप जोडून राज्य सर्काराचीं (K.E.B) तसें केद्र सर्काराचीं (B.E.L)

कामांची आपणंवच्या तितलो शाथिवंत जावनासा.

जोडि खातीर मद्या पूर्वांत दुबाय (U.A.E.) जेद्दा, रियाद (K.S.A) वाव्र केला.

1984 - वर्सा वालेन्सियाच्या जेसिंता लागीं काजार जावन ड्याम्नी इयान आनी ड्याप्नी रुबिनाचो बापय जाला.

मंगळुरांत सां लुवीस कोलेजींत कोंकणी अद्यायन केंद्रांत पाटल्या तीन वरसां धर्यां गौरव अद्यापक जावन नाटक कलेवाशीं शिक्षण दीवन आसा.

# आयरिक सयरिक

## पयलें द्रश्य

फांतें उज्वाडलां मात्र कोंबो साद घालता. सुकणी गुणगुणतात. पातळ उज्वाड कुडांत विस्तंरला तरी वाड्याचो गुर्कार श्रीमान आलेक्स आजुनी नीद सुटंवच्या खतीर दोळे गस्टूंक लाग्ला.

भितर आयदानांचो आवाज. ताच्या बायले आलिसाचे कामाच्यालागीं थोडे मुमुरि थोडे थोडे आयकातात उटोन बसल्लो श्री आलेक्स सोफाच्या मदगत द्यानिपरीं हात जोड्न जेजुच्या पवित्र काळजाच्या पिंतुराक पळेयता. क्षाणाभितर आपणाक एक बाय्ल आसा महळळयापरीं व्हळू भितर तिळता. बायल दिसाता म्हळळया धयरान मागण्याक लागता ......

[ ग्रेस्त धराणें जाल्ल्यान एका कोन्स्याक एक फोन मेजार, दोन सोफा सेट, एक टिपाय, ताचेर ॲश ट्रे नितळाय आनी उंच्लया मांडावळेंत घर आस्ता]

**आलेक्स:** सरवेस्परा.... हांव गुर्कार जावन वाडयाच्या तर्फेन या तसिल्दार जवून लोकाच्या उर्भेन मागाना तरी म्हज्या पाडतिनंच मागल्या शिवाय निगा ना.

जशी वरी जळारेंच्या सुटकेन रात दिलीय तसो बरो दीस दी सायबा म्हज्या बायलेच्या हाता थावन! आयच्या दिसा म्हज्या बायलेच्या आलिसाच्या दावलेंत जांवूदी पासांत वा घासांत सांपडानासें तिच्या हातांतलो राक आनी सांवाळ.

[व्हळू उबो रावोन भक्तीन ]

दोन सोभीत उत्रां गोडशी, शाभितायेन धाडशी, म्हज्या बायले थावन बोव मोव, लोव मोगाचीं म्हज्या काळजाच्या घटायेक आनी कुडिच्या मोटायेक

टोनिकपरीं आस्वीं खंच्या मोगाच्या ग्रंथांत वाचड्याल्ली या भाड्याक घेतल्ली तरी पर्वाना....सरवेस्परा.......आलिसाच्या त्या दाट कट्टेपरीं आस्व्या कट्टयांत दयाकर्‌न चेपूत सेड. आयचो दीस मोगाचो उमेदिचो दीस कर... हांव तुजेर पात्येलां तूं म्हाका आयाक.... तूं म्हाका.....

[तितल्यार सळसळ्या स्वभावाची ताची बायल आलीस पालोंव पेंकटाक खोवन्न प्रवेश]

**आलीसः** (मदग्त) तुजो उलो आयकालो आनी कुडींत कुलकुलो भरलो.... पुरो सायबा, तुजें गुरकाराचें ओप्पंद सरवेस्परालागीं सकाळीं फुडेंच करन ताची तकली तापयनाका, सोर्मुणाच्या उज्यांत धारु तापयल्यापरीं पयलें तोंड धुवन काफी फळहार कर उप्रांत सग्ळें.

**आलेक्सः** (मोगान) तुका कितें रगळे? सग्ळया दिसाच्या रांदपाक शिग्डेंत रुकाचो पिटों भरल्ल्यापरीं काळजांत स्पिरिताचो उजो भरिजाय. मागणें मागाजय, रेशनाच्या आंग्डी तांदूळ साकर आयाल्यावे महण रवळमीत नास्तां मागल्ल्यापरीं जरतर एक टीस विचारिना या मागाना जालें `कालच येवन मुग्दाले' महण कासुळेच्या खोल्यापरी, हात उदारे केल्ल्या कोंकण्यापरीं कंय सरवेस्परालागींय मागण्यांत एक दीस चुकलों तर.......

**आलीसः** तुजें पिर्पिरिसांव बंध कर पुरो काफी फळहार निवता म्हज्या पोटांत पिलां मेल्यांत.

**आलेक्सः** अरे मोगाच्या बायले, आयक म्हजें उतर पयलें हाव गुर्कार आनी निवृत्त तसिल्दार, तुजो वारेस्दार जाणा जा. हांव कामार आस्तां म्हज्या ताळ्याक आफिसांतलो हर्येक कोन्सो कोन्सो कांपतालो आनी हर्येका कोन्शांतलो मनीस पांय बांधल्ल्या कात्त्यापरीं तकली

वागोन म्हाका आयकातालो. तुका म्हजी उत्रां रेड्याच्या पाटीर पावस पोडल्लया परीं.

हांवें सरवेस्परालागीं मागूलें ताच्या हातांतलो रियायतेर तरी वंच्येत, पूण तुज्या जिबेच्या धोम्सा हुज्रीं हांव न्हय म्हज्या पेंकटाचें नेवाळें समेत कांपता.

**आलीसः** तुका वायल म्हळ्यार देंवचार म्हळ्ळया परी हांव कांय पिलांक सांडल्ली नागीण वा भुकेन भरल्लीं राक्षीण ?. तुमी दादले काजारा सुर्वेर पोटाक कोको धालिजाय म्हळ्ळो उडास नातल्यारी चेडवांक पळेयजाय म्हळ्ळ्या उडामान एक कोळ्सो लाळ गळोवन, पांक लागल्ल्यापरी पाटीक लाग्तात उप्रांत खंचो लुसिफेर तुमच्या काळ्जांत रिग्तागी देवच जाणा.

**आलेक्स :** आलिसा (मालीस करता!) इत्ले वेगींच उज्याचें आग्टें जालेंय ग्डग्डो फुटयनाका सेजारा आयकात (भियान) हांव दादलो मह्ज्या संयवान आदांव आदलो. हांव निमाण्या हंताचो तर्नाटो सबार म्हज्यो खुश्यो तांतूं एक दिस्तात मिस्यो. उडास दवर आलिसा हांव तुजो घर्कार तरी वाडचाचो गुर्कार पंचात्कयो आसात आमींच अशें उलवन पडल्यार गुर्काराची पंचत्की करुंक सेजारच्यांनी येजय जायत. 'माज्रांची लडाय, उंद्राचे समाधान' महळ्ळ्या परीं.

**आलीसः** तितलें एक भ्यें उद्रांच्या काळ्जांत हस्तिचें आसल्लयापरीं आसल्यार जालें. घरा कोण गेलयारी कोण मेल्यारी तुका खबार ना.

**आलेक्स :** आलीस, आलीसा, तोंडाक उदक लांवक ना दयाकरन.....प्लीज डीयर.....मोर्नाची खबर उलयनाका अस्कत काळीज जर्क दीवन चड्नेरच गवरनमेट बस्स वंध पडल्लयापरीं जांवक आसा. उप्रांत

दुस्रो गुर्कार वाडयाक येत तरी तो तुजो धर्कार जांवचो ना.

तुवें सकाळीं उटल्लेंच व्हळू म्हाका गुलोबाच्या फुला वग्र दुलोबी दुंवी चरल्लया परी हात चरोवन उटबाल्यार म्हाका त्या दीस जेवाणयी गर्ज दिस्चें ना. मोग करिजाय कसो? एक पावशिल्या सांजेर भुर्गीं कुळारा गेल्यावेळा, दाद्लो चडीत उमेदीन आस्ताना, आतुरायेन पोट्लून धरता मोग केल्या परी. उलवणें चलाजय क्लासींत चक्कर दीवन धारा स्पेशल क्लास आसा म्हण दर्या किनाऱ्यार शीतळ वाऱ्यार बसोन उलंवच्या प्रेमी - प्रेयासींपरीं! हुस्को आसाजाय जर्सी गायेच्य दळभळच्या भरल्या व्हॉटियेक पेटयान हुस्को केल्यापरीं आनी निमाणें (लागीं येवन आरांवक प्रयतन करताना....)

**आलीसः** (आकांतान).....पुरो पुरो सकाळीं फुडेंच तोंडू धुंवच्या आदीं मेगाची लदीन सुरू केली.

**आलेक्सः** काजारा सुर्वेर तोंड धुवच्या आदींच म्हजे कीस विचारन घेवन मोग करतालेंय.

**आलीसः** कस्लें भेष्टेच बास्कळ उलयताय सायबा! मानसुगोचीं उत्रां उळंवक कळनांवे ? भितर आयरी निदला.

**आलेक्सः** आळे आलिसा, कित्याकगी तुका आज सकाळीं फुडेंच देख्ताना पर्तापणाच्या सांजेर देखल्लयापरीं भोगता. आनी उत्रांक मान्सुगी न्हेसोंक, काडूंक कळनां म्हाका तर्नाट्या चलियांनी आरस्या मुखार बलावजाक मेचींग जांवक कापडां बदल्लिल्लया परी..... हें न्हांवक उदाक नापलांगी?

आलीस: उदाक तापलां म्हण सांगोन, उटोंक आयिल्ल्या म्हजो भेजोय तापलो.

शिला शिला......(कामाचो उण्या उडासाचो शिला हातांत कसलेंगी भणशिरें घेवन प्रवेश)

शिला: कितें.... कितें बाये? (कालुवुलो जावन पळयता)

आलीस: बाबाक टूत ब्रश, पेस्ट हाडन येरे (ताची चड्डी सडील आसल्ल्यान धडयेधडये वयर करता शिला) तुज्या चड्डेक घट्ट बादूंक जायना येरे?

शिला: घट्ट वांधिना तरी सक्‌ला पडाना बाये. पूण चड्डी इल्लिशी लूज (हात भाषेन संग्ताना परत चड्डी गळची वयर करता)

आलेक्स: भितर वचरे (धेंकणो घालन आळसायेन सोफा वयलो उटोन सोफा समाकरताना आलीस कुमक करता)

ह्या बायलां संयबाक देवान रातिचो आनी दिसाचो मेदू दुस्रो दुस्रो दीलागी महप्तां भिर्मत आदांवची मत चुकयनास्तां 'बोर' काड्ताना दुखीन कांय हुळवुळ्ळा कोण्णा । तसें कांय साख्र्या बुदिची अेव जांवक ना.

न्हय आलिसा, तुजें धूव आनिकी तनटिं, ताका उटंवच्या पयलें म्हाका उटोंक आयलांयमू?.

आलीस: अळे तुजें उलवणें म्हाका केद्‌नांय रुचाना म्हजें धुव म्हजे धुव कसलें उलयताय? तुजियी धूव न्हयवे?!

आलेक्स: आरे मलामती....महजी धूव जांवक हांव कांय वाळांत जाल्लोंवे? हांव ताचो बापय मात्र नोव महिने तुवें व्हाययलांय.

आलीस : तितलें जाणा आसोनयी स्त्री संयबाक दुर्सेक लज दिसाना? एका स्त्रीयेचें जीवन कितें म्हण समजालाय?

आलेक्सः (तक्षण) स्त्रीयेचें जीवन फकत अबल म्हळ्ळे फट्किरें रुप घेवन पिशें आनी बेजवाबदारेचें जीवन.

आलीसः युत्त! तुज्या दाद्ल्या संयबाक सात्यानाचो कोलो व्हरुं एक स्त्री ह्या संसाराक नोवो जीव हाड्ताना कितली कष्टता, नोव महीने व्हावन्....ते वंळतेर पणाचे कष्ट सोसून.

आलेक्सः (मदग्त) ओहो पुरो रेडो बुतु करन गेल्ल्यापरीं वचानाका. तुमचे कष्ट आम्कां संकष्ट उटताना पेंकटांत दूक, बस्ताना गांटिनी दूक, चल्ताना तक्ली गुंवोळ. निदल्यार कुडिची वोळ म्हण दादल्याकरना काम करयतात. जर देवान आदांवची बोर काड्च्या बद्लाक एवेची काड्न आदांवक रचल्लों तर आमी चिक्के सवकासाचेन कष्ट कष्ट म्हण गाजयनास्ताना सुशेगात डजनां लेखार बाळांत जात्यांव.

[तितल्यार भाग्र यावन बोबो आयकातात एका भुर्ग्याच्यो "गुर्कारामा गुर्कारामा, बाब मांयक मारन लगाड काडता गुर्कारामा......वेगी ये गुर्कारामा......आय्यो बाब लगाड काडता....."]

आलीसः पळे पळे, कितें पळे (अंबसरान)

आलेक्सः कस्लें पळंवचें सायबिणी, तो दळदीर इज्रू तिचो जीव दवरना (वेवेगीं बितर धांवता)

आलीसः देकुनंच सांगल्लें तुका तें पन्ताती गुकारपण नाका म्हण पूण कोण आयकता. आज मोर्नाक वच फाल्यां. काजाराक वच. वोलाक, झग्डयाक, पंचात्केक आनी सुड़काडाक म्हण सुटका ना. आनी

फेस्तां येताना पाद्रिचे इज्मोल मागोंक वेचें काम. पाद्रिच्यो बुट्टयो चुकानांत .....पयशे दिल्ल्या तितले पावानांत.

**शिला :** (आंवसरान प्रवेश) बा.....बाये वाये.

**आलीस:** कितेंरे बांग दिताय? (सवकास) कितें जालेंरे?

**शिला :** वित्त्याट्टू ख्वंय गेला?

**आलीस :** कितें? तुका कित्याकरे? तो कामाक गेलान्हयरे?

**शिला:** तो कामाक वचोंक ना.

**शिला:** आनी तुज्या बापायक उदक वरन गेला!

**शिला:** तसेंयी वचोंक ना बाये ताचें युनिफोर्म हांगाच भितर आसा.

**आलीस :** कांय वऱ्या न्हेस्णार गेला आस्तलो.

**शिला :** ताची पोकेट मेजारच आसा.

**आलीस:** ताच्या हाताचें वाच......कामाचे वूट्सयी

**आलीस:** अय्यो कितें लोजीक (चिंतून)

[आंवसरान फोना सर्सीन वेता. दोन पावटीं रिंग करताना अंगेज आस्ता. तिस्त्रे पावटीं मेळता रागान]

हालो हांव मिस्सेस कार्वाल्लो उलय्तां आमचो विक्टार आसागी? जायत आपय (थोड्या क्षाणान) हालो विकटारगी? विकटार येंवक नांगी? अरे देवा म्हज्या येंवक नामू? ......जायत ययांक्स (सक्ला दवरता रिसीवर)

**शिला :** कितें बाये?

**आलीस :** तुजीं कर्मां तो कामाक वचोंक ना. आमचें आयरी आसावे पळे.

**शिला :** तें निदलां......पळोंक ना.

**आलीस :** निदलांगी उबलांगी पळेरे वचरे (चल्ता) आरे देवा हो खंय गेला हावा? खंय सांगानास्तां वेचो भुर्गो न्हय.
(तितल्यार आलेक्स प्रवेश)

**आलेक्स:** आलिसा ..... (कुंट्टोन दीर्धश्वास सोडन)

**आलीस :** कितें कितें जालें? (भियान स्वागतिसिता विस्रोन)

**आलेक्स:** म्हाका नाका आसल्लें आलिसा.

**आलीस :** खंचें म्हण्ताय?

**आलेक्स :** खंचें म्हण्चें म्हजी कर्मां ....आंवसरान तोंडाकू उदक घालन धांवताना कांटो तोपलो. तोपलो तो तोपलो मासाकच तोपाजायगी......? आय्यो.....काड....वेगी.....

**आलीस :** कांट्याक तूं गुर्कार म्हण कितें गोत्तू....? (पांयांत कांटो सोधून) व्हाणो धालूंक नायवे?

**आलेक्स:** साद्यो व्हाणो त्यो कांट्यान गुमान करुंक ना. 'हाय हील' धाल्यार बरेपण जातें तरी तुका फेशन रुचाना, कितें करचें? .... आय्यो लोव आलिसा.....

**आलीस:** तेवशीन पळे ......लडाय कितें जाली?

**अलेक्स:** लडाय आनी भोजो वागील घाल्न दोगांयी झगडतात बायल आरावायो दिता पूण सारणेच्या खुंटचाये मार खावन वावडया इज्जाची पाट पितो जाल्या. गजाल कितें म्हण विचारताना बायल महाप्ता 'हो देंवचार' इज्जू महण्ता 'हें सैतान' महज्या

पांयाचें म्हाका व्हड. सैतान् आनी देंवचार म्हणताना जागो येम्कोंड म्हण कळ्ळें. हांव गुर्कार निवृत्त तसिल्दार.....काटांत पडों म्हण संगोन आयलों .....हां! काड्लोवे? ....वांचलों.

**आलीस :** हांगा पळे कांटो

**आलेक्स:** आरेरे तुज्यापरी कठीण

**शिला :** (आंवसरान प्रवेश) बा...बाये बाये आयरि वाय ना.

**आलेक्स :** नाच्या कुडाक कित्याक गेल्लोयरे?

**आलीस:** हांवेंच सांगलें सायबा.

**आलेक्स :** आंक्वार चेडवां निदल्लाया कुडाक प्रवेश जांवचें पातकच .....खंय काकसाक गेलां आस्तेलें पळेरे खंय गेलां वचरे (शिला भियान चलता)

**आलीस :** वित्ती कितल्या वोरार गेला?

**आलेक्स :** कितलीं वोरां कोणें पळेयल्यांत? हर्शेंच्या परीं फस्ट शिप्टाक गेला आस्तलो.

**आलीस :** तो कामाक वचोंक ना.

**आलेक्स :** आनी कोणाक उदाक व्हरन गेला?

**आलीस :** हांवे फोन करन विचारलें सायबा.....सर्व वस्तू सोडन गोला.

**आलेक्स :** (आंवसरान).कितें लोजीक (सट्ट करन भितर वेता) [अलिसयी भितर वेता..... एक मिनुट स्टेज रिती आस्ता आलीस प्रवेश]

**आलीस :** हांवे हजार आनी एक पावटीं दांबून तुका सांगल्लें पूण तुका खंय नाट्वाता? (आलेक्स प्रवेश) वाडल्लें चेडूं घरांत आस्ताता वोंर्डर

दवरचो नाका म्हण पाद्रिच्या (व्यंग्यान) बाबाचो पूत, आवयचो पूत म्हणोन रावयलो आतां लोकाच्यो जिबो कितें महण्तात पळे.

**आलेक्स :** (चिंतून) हें कितें लोजीक? गेल्यार (समधानेन) खंय वेतालीं. आवयच्या पोटांत परत रिगोंक असाद्या आयरीक फाल्या पोर्वा काजाराक सयरीक सोदल्या दोगांयी दिसानांतमू? कसलो दीस आयचो सोधलोगी म्हण्तां.

**आलीस :** तेदनां माद्र जातां महण्तालें तसें पुणी सोडयेतें.

**आलेक्स :** तुजो बापय मह्ज्यालागीं हांव तुमगेर दूढ हाडन येताना सांग्तालो तुंवयी माद्र जांवक वेतायी आतां भितरली माद्र पळे....हांव एक्लो भेटलों.

**आलीस :** आतां कितें करचें? पाद्रीक साग्यां.

**आलेक्स :** तूं एक कितें उलयताय सायबा? ताच्या भावा विशीं तो दिसाना, कामाकी वचोंक ना म्हणोन.

**आलेक्स :** (घरा भितर तीळन) शिला, सगळयांनी सोधरे हिल्लांत, त्या कच्च्या फडींत, त्या खोलियांच्या राशीर, खंय वगलां बंध आसात उग्तीं करन व्हळू सोधरे.....

**आलीस :** आमची मर्याद गेली कितें करचें ?

**आलेक्स:** ताचें तांव आयरीन....मर्याद न्हय (तेणे हेणे वेता....चडपडता)

**आलीस:** आमी पोलिसांक कंप्लेंट दियां (मौन) चेडवाक कितें जालेंगाय? (आलेक्स भितर वेता) चेड्याची सळावळ कांय नातल्ली सां जुजेची इमाज पर्यांत तक्ली उकलून तोंडाक पळेयनातल्लें देवा म्हज्या आतां कितें करचें? (आलेक्स प्रवेश)

आलेक्स: रातीं निदताना आयरी कुडाक खीळ धाल्तालेंगी ना?

आलीस : कित्याक म्हण्वाय?

आलेक्स : बायले .....आयक म्हजें सवाल पयलें आनी जवाब दी पाटीं सवाल घाल्ना का.

आलीस : घाल्तालें.

आलेक्स : वित्ती खंय पुणी उटोन रुमा भाग्र वेतालोगी?

आलीस : देकुनूंच ताच्या कुडांत एक वोरे विंगड मुतोंक `तस्त' दवरल्लें.

आलेक्स : कसलीय सळावळ आसल्ली जाणंयगी?

आलीस : तूं कितें म्हज्यालागीं सवालां घाल्ताय? हांव कितें जाणां काल पोर वोंकतालें.

आलेक्स : वोंकोंक बाळांत जाल्ल्या दुस्या हापत्यांत तुंयी वोंकतालेंय त्या दळदीर शिलान उडासाविणें साकर म्हण मिटाची खीर करन.....

आलीस : तें आसों .....आतां कितें करचें महण्ताय?

आलेक्स : मुर्वेर यवन काजार जाव्यां. कितें करचें. कितें करचें, हांव कितें जाणां? एक ध्रूव एकच ध्रूव म्हण तुका पाम्लेंत जायजाय आना म्हाका ताका ध्रुंवचेच जालें. इस्कोलाक वेता पर्यांत मांद्रेर मूत, पियेंवक तुजें दूद. अत्रुदावी थावन जोकिच्या पुताक केल्ली मयरीक कितें करची? तूं जाताय?

आलीस : तुजो भेजो कितें जाला? म्हजेर कित्याक चाळवाताय?

आलेक्स : फोरिन्चो नोव्रो जाय म्हण्तालेंय, मोधलो, पूण हें खंय उल्लें? इस्कोलांत कोणी तर्नाटे मेस्त्री आसल्लेगी?

आलीस : माद्रिंच्या इस्कोलांत मेस्त्री उणे गोत्तुनांवे? माद्री निस्वार्थी पळे, तींच घोळतात. इस्कोल सुटल्लेंच शीदा घरा येतालें घरा सांजेर टिविशन दितालें रिच्ची, मेक्सी, वल्लीक.

आलेक्स : ते गांवांत आसातगी नांत ?

आलीस : ते प्रायेन आयरिच्याकी ल्हान सायबा.

आलेक्स : ताणे प्रायेलागीं काजार जांवचें न्हय, चेड्यालागीं. आतां तू भितर वचोन सर्व सोधनां कर वित्तिचें कूड, आयरिचें कूड, सोदनेच्या पेटयान हुंकल्लयाक्षणा कळ्ळया परीं, तुका खंचिंयी पत्रां मेळ्ळ्यार कूडले हाड. हांव तांचें चांवडें सोल्तां आनी ताचो एक माटोव घाल्तां तांतूंच काजार करतां.

आलीस : कांय वित्तीच ताका उकलून घावलागी महळ्ळो दुबाव.

आलेक्स : कित्याक, आयरीक ताच्या पायांनी चलोंक कळनांवे?

आलीस : तुजें एक जिंग्रिविसांव वंधकर. न्हयतर आतां ही नालिसाय कशी सोस्वी? गुर्कारामाची धूव महण्ताना गांवाक कळोंक वेळच नाका आयरिच्या सयरिके बाबतीन केदनां केदनां म्हण लोक विचारता कितें जाप दींव?

आलेक्स : ताका कित्याक बियेताय? मुदिये दिसा खरार, रेस्पेरा दिसा काजार म्हण.  पूण आयरीक खंय यावन हाडचें? तुका एदोळ गुर्काराची बायल म्हण गाग्रो फुलवन चलोंक सुलभ जाल्लें, आतां लोकाक जाप दी.

आलीस : (मौनतेन आलोचन करर्न) अळे आयकातावे?

आलेक्स : सांग्लयार न्हयवे आयकोंचें ?

आलीस : न्हय तर आयरी मावळयागेर गेलां म्हण विचारल्यार सांग्यां आनी आमी गुपीत आयरीचीं सोदनां करयां.

आलेक्स : उंद्र, माज्राचें खेळ हो, आमकां सांगल्लो न्हय. तुमी भायलां कामाक हात घाल्तात, चिक्के कष्ट वा बांद्पास जाल्यार हात सोडतात तुमची जीव आनी मत एकाच मेंदवाच्या आश्रायांत ना, तें देवयी नेणा बावडो.

भितर वच, एक घोट काफी हाड, वो शिला. दळ्दीर, सोदनां करुंक गेल्लो कित्तून पावलागी देव मात्र जाणां, हांव पाद्रिच्या लोबाचे बुतांव मेजूंक सांग्तां.

[आलीस भितर वेता]

न्हय पाद्री म्हण्तालो भांगार भुर्गो म्हणोन आनी ह्या दळ्दीर भांगारान म्हज्या भांगार धुवेक कशें पुस्लायलेंगी महप्तां.

आलीस : धर.....काफी.....न्हय शिला ह्या सुत्तुरांत दिसाना.

आलेक्स : [एक घोट पियेवन उडयता] यत्त ही काफिगी साक्रिची खीर....मात्यार वोत ताच्या.

आलीस : उडासाविणें कितेंगी चिंतून साकर घाल्नंच रावलो जायजेय दळ्दीरं.

आलेक्स : [खोंकली काडन] आलिसा डल्लें उदक तरी हाडन ह्या ताळयाक सोड.

आलीस : चिक्के सवकासाय काण्णे, हाडन आयलीं (चल्ता)

आलेक्स : एक बायल, कूड हिंवान कांप्ताना ऊब हाडूंक, तानेन गळो सुकताना उदक सोडूंक. एक कामाचो पोटांतली पिलां वोबाटताना रांदून

घालूक, पेंकटांत वाय चरल्यार पेंकाड दांबूंक. एक धूव कुटमाची मऱ्याद राकोंक, दादल्याक मांकोड करन घर जांवय करुंक.

पूण... पूण आमगेर सरवेस्परा सकडां उल्टा-पाल्टी.

आलिसा (मोगान) म्हजो ताळो सुकला (जाप ना) आदल्यो बयल्यो घोव मोरच्या वेळार तच्या तोंडांत उत्रां सुटनातल्यारी उदेंवच्या सुळियेक पार्कून अशें सांग्तालो तसें सांग्तालो म्हणोन गांवार गुणगानां करन धोवाक मऱ्याद दिताल्यो पूण आतांचीं बायलां? बायलांचें नांव काडल्यारच पाताक.

आलिसा ....आलिस..... तुका म्हजो ताळो आयकानांगी (बोबाटता) उदक हाडूंक गेल्लें तूं रुक जालेंय? वा मायाग जालेंय? आलिसा.......

[बागलालागीं वेताना आलीस प्रवेश]

**आलीस :** आयलीं... कितें बोबाटताय?

**आलेक्स:** उदक हाडूंक गेल्लेंयगी वा बांय खेंडूंक गेल्लेंय? (ग्लासांतलें उदक दिता)

**आलीस :** तूं एक दर्वोडी.... रादनांत उंदीर पडला. (पियेवन वोंकता) बंयचें उदक हाड्लें

**आलेक्स :** छीक्क! ऊंदीर पडला वा शिला पडला? धांपूंक नांवे?!

**आलीस :** त्या शिलान ऊंदीर पडल्या उप्रांत धांपलां.

**आलेक्स :** आतां तुजें तोंड धंप मऱ्यादेची पाकां वाऱ्यार उत्रोंक सुरू जाल्यांत तूं लेख करुंक बसलांयगी? आमची धूव मायाग जालां... हांव पाद्री सर्शीन वेतां.

**आलीस :** शिला खंय गेलो हाबा? हाका खंय सोदूंक वेचें ?

**आलेक्स :** तूं ताची झडती कर व्हळू हांव पाद्रिच्या बापायच्या पुताची आनी पाद्रिची झडती करन येतां न्हय तर पोलिसांद्वारीं मोदनां करयतां, ह्या घरचों हर्येक कोन्सो मर्याद गेल्यारी पर्वाना आयरिची सयरीक मात्र अबुदाबी आस्च्या जोकिच्या पुतालागींच जाय जाय...आमी दोगी काळजा सांगाती ।

ह्या वित्तीक माती खावयतां तो मेळ्ळयार शिंदून मीट घालन तीन दिसांनी ताच्या भावा पाद्रीक मर्नाक आपयतां वोरां. साडे सात जाली.

**आलीस :** वित्तीक दुर्सनाका तूं! तो पर्को ताच्यालागीं तितली कांय सळावळ नातल्ली तरी आंग्डिच्या कोंकण्या लागीं हासोन हासोन उलंवचें हांवे दोन पावटीं पळेयलां.

**आलेक्स :** तांतू कितें जालें? तूं मामळी हाड्च्या मापळ्यालागीं खेळोन खेळोन ताका मांकोड करन मास्ळी निकळायताना हांवयी दुबाव करूं?

**आलीस :** वाडल्या भुर्ग्याक वेगीं काजार कर्यां म्हण ताका टिचेरिचें काम दिवयलें... जोडच्या चेडवांक सयरिको चड म्हण तरी म्हजें कोण आयकता?

**आलेक्स :** तुजें आयकोन उतर, म्हजें काळीज जालां नाचार आनी किनें करिजाय उचार वायले.

**आलेक्स :** माच्चुवायेच्या जिरे थावन पाद्रयाबाच्या मर्मावा पर्यांत गुर्कागची धूव धावलां म्हण.

तुवें तेदनां तेदनां जोर करन थोडी थोडी बूद बाळ सांगल्ली तर आज जातेंना!

**आलेक्स :** (समजोणेन) हांवें सांगल्ली वूद तुका नाटवानातली ताका कशी नाटवोंची आलिसा? घराच दवरल्यार माद्र जाता म्हणोत इगर्जेच्या संघाक रिगयलें यंय मिटिंगा वेळा चेडयां संगीं उलयलें. मिटिंगा वेळा उप्रांत चेड्या संगीं खेळळें म्हण संघांतलें भाय्र काडलें.

कोयराक रिगयलें ताळो सुंदर आसा म्हण काजितोरान एकल्याकच चडीत तर्भेतेक रुमाक आपयताना दुबावान तुका 'है प्रेशर' सुरू जालें. तेंयी रावयलें सेजारच्या तोटे तोमासाकडे उलयता म्हण ताका ट्रान्सफर दिवयलें तुज्या धुवे खातीर साक्रिंफीस केलो मेल्खिसदेकान देवाक भेटयल्या परीं ... हांवें तुकाच भेटयलों.

आतां तुज्या मोगाची भांगार धूव घारा नाजालां उब्लांगी, रोंबलांगी, लिपलांगी, शिर्कालांगी देव एकलो जाणां... सरवेस्परा तुका दोळे हजार हाड तरी आयरीक आमचे हुजीर.

**आलीस :** दूद हाडूंक गेल्लो म्होसीक मोलांवक लाग्लो खंय ... म्हज्या तक्ले भितर कितें जाता तें कोणाक संगों?

**आलेक्स :** (मोगान लागीं सरोन) आलिसा धैर घे

वित्ती आवयच्या पोटांत गेला वा पाद्रिच्या

[सट्ट करन फोना सर्शीन वेता]

लोबाभितर गुस्ला, अंत्रळार रावला वा यंम्कोंडाक पावला पुरा तिळिसतां (हें उल्वणें नंब्रां गुंवडायता गुंवडायताना) हालो...हालो

हांव गुर्कार, निव्रत्त तसिल्दार श्री सामुयेल फेलिक्स आलेक्स कार्वाल्लो उल्यतां ...पाद्र्याव आसावे? व्हड्लो पाद्र्याब....खंय गेला? केदनां येतालो? आयल्यार कूडले म्हाका मेळोंक सांगं ...म्हज्या घारा येंवक ...म्हज्या धुवेच्या आयरिच्या सयरिके , बावतीन ....बरें (रिसिवर दवरता)

**आलीस :** तुजो मेंदू कट्त्यांत आसा वा कल्सांवांतल्या वोल्सांत आसा? (रागान) आयरिच्या सयरिके बावतीन म्हण कित्याक सांग्लेंय? तुजी वूद आनिकी बसोंक ना.

**आलेक्स :** (हासोन लागीं येवन....व्हळू) आलिसा चेडवा बावतीन म्हण्ताना म्हातारो पाद्री तरी आंकवार कुडीन भर्तेचीं आंवसरीं मेटा घालीत न्हयवे?! चेडवांक देवाचो मोग चड. पाद्रयाबांक देवाचो मोग करच्य चेडवांचो ! आमी आंवसरल्यार जायनां चितूंन उलयजाय.

**आलीस :** तूं जल्मताना रडोंक विस्रालोंय जाल्यान तुजी मत सार्की काम करिना.... खंच्या कास्ताचो मनीसगी? तुजें बोड सार्के ना.

**आलेक्स:** वो मै गोड ... एक। दादल्याक ताचीच बायल हिण्सिता माज्रान उंद्राक दण्सिल्लया परीं सरवेस्परा.

हें तुका पळेंवक बरें दिसानासें तुज्या फकत सादया नद्रेंत भस्म करन सोडची शाची तुका आसा. तरी तूं म्हाका विधूर जांवक नजो म्हण राक्ताय तें हांव जाणां आलिसा.. म्हज्या भांगारा तुका रेरवाद पाटयतां... तुका सोभीत काप्डांनी नेटयतां. कस्लींय हिण्सुंचीं उत्रां आस्त्यार व्हळू सांग तुज्या ताळयाक तरंगां वोळोंक नजो बसल्लों मूस धांवोंक नजो.

देवा म्हज्या आमची धूव रातीं ह्याच घरांत आसल्लें फांत्याफारार

दिसाना. रातीं वोडतांतलो गोंडो फांत्यार सोभ्ता मादामेचो शेंडो....आलिसा.

**आलीस :** कित्याक बोबाटताय सायबा. तुजो खंचो इस्कूर लूज जाला वा खंचो देंवचार रिग्ला?

**आलेक्स :** आलिस ... कान तुजे नीट कर, जीव तुजी मटवी कर. भितरल्यान दाराक खीळ घालन तांतियांक ऊब दिंवच्य कोंबिये परी, कदेल एक घट्ट धर न्हय तर हांव भाग्र गेल्या वेळार तूं मायाग जाशी तुका येवन परत सोधूक खंय वचों? तू एका भूर्ग्याची आवय, चुकल्यार आपूट आंककार तर्नाटें । पाद्री येंवक पुरो, जेनेलांतल्यान व्हळू भाग्र तीळन, लोब दिस्ल्यार बागील काड, न्हय तर दांडो तयार कर ओनके ओवव्वापरीं राव... कितें?

**आलीस :** (देंदेस्पार जावन) सायबा देवा म्हज्या [तुरंत भितर वचोन एक यंड उदकांत भिजल्लो कुडको तकलेर दवरन येता. आलेक्स पूरा पळेवन आस्ता]

सकाळीं थावन एक घडी तुज्या उन्नांक ब्रेक ना. म्हज्या मतीक समधान ना जिव्या घायाक मिटा उदक, काळकाय लागल्याक कोंबी बादक म्हळ्ळयापरी म्हज्या तकलेंत जांवची ताडवोड. तुका चिंतच्या तितलो मेंदू ना.

वच.....चिक्के वचोन पाद्र्याबाक मेळोन यं ताचो भाव खंच्या लिंवाक गेला तें विचारन यं हांगा म्हजी तकली तापयनाका.

**आलेक्सः** जायत जायत मोगा .....जायत [भितर चलाना आकांतून शिलाचो प्रवेश]

**शिला :** बा......बाबा बाबा

**आलेक्स :** कितेंरे .... कितें खबाररे?

**शिला :** बा.....बा......बाय बां.....बां बांयत पड्लां

**आलीस :** कितें गजाल? कितें आयकग्तां ....बांयत पडलां

(सोफर ग्ळता)

**आलेक्स :** हेत्त भोकोरलेल्या सार्कंडा, चिक्के व्हळू म्हज्या कानांत सांगोंक जायनांवे? आलिसा फिकीर करनाका....हांव पळयतां, समधान कांण्घे

[शिलाक उध्देशिसून] तुवें पळयलेंयरे?

**शिला :** व्हय बावा.... ताचो निळ्सो गाग्रो भाग्र सार्को दिस्ता.

**आलेक्स :** गाग्रे मात्र दिस्तागी दुस्रें कितेंयी दिस्तायेरे?

**शिला :** सार्कें ....पळोंक ना... बाबा.....

**आलेक्स :** तूं हांगाच राव आलिसा .....वेगीं येरे ये (अंवसरान वोडन व्हरता)

**आलीस :** कसली परिस्थिती आयली देवा..... आवचीत असलें खर्ग कित्याक घाड्लेंय? हांवे तुका कितें वायट केलां? (रडता)
[क्षाणान फोना सर्शीन.... गुंवडायता]

हालो .....हालो.....हांव गुर्कारामाची वायल आलीस उलयतां..... व्हडलो पाद्र्याव आसागी?

**भितर थावन :** ना भाग्र गेला. कितेंय सांगोंक आस?

**आलीस :** सांगोंक ताच्या लागींच .... आमचें ... आमचें आयरी...

**भितर थावन :** आयरिच्या सयरिकें वावतिनमू? हांव आयिल्ल्या कूडले उलंवचो

पयलो विषय... तांतूं आंवसर कित्याक?

आलीस, तुजीं कर्मां... आमचें आयरी भोयत पडलां.

**भितर थावन :** (भिंयान) हां कितें? पडलांगी उडलां?

**आलीस :** हांव नेणां पाद्र्यावालागीं मात्र सांग, दुसऱ्यांक सांगानाका...

**भितर थावन:** मोर्न आजच करच्या परीं ... सांग्तां बाये ।

**आलीस :** पुरो ! (सक्ला दवरता रिसिवर)

देवा, म्हज्या एकल्याच माणिकाचो तुवें भिरांकूळ रितीन जीव चिंवलोयमू? ही कोणाची चूक? आनी कोणाक शिक्षा!! (रडता)

**आलेक्स :** [भितर थावन बोबाटून प्रवेश] आलिस.... आलिसा... ताची तकली पाड जाल्या.

**आलीस :** सार्कें आसल्लें न्हयवे? कितें करचें?

(शिला प्रवेश)

**आलेक्स :** आलिसा ह्या शिलाक भेसां करन, चाप्सकरन मुन्सिपाल्टिच्या डाब्यांत घाल्यां महण भोग्ता तरी तितलियी ताका योग्याता ना.

**आलीस :** कितें गजाल, लिपयनाका.

**आलेक्स :** लिपोंक कितें पुडिची सिस्लिवे ती? वांयत आयरिचो गाग्रो सुटलागी?

**आलेक्स :** आरे देवा म्हज्या, काल सुकात घाल्लो गाग्रो बांयच्या काट्यावयलो उबोन बंयत पडला. न्हय तर कापाड सुटानासें गाग्रो सुट्‌तावे?..... हांगा रावल्यार म्हजियी तकली विऱ्यार जाता... हांव पाद्रिची झडती करन येतां.

**आलीस :** आळे (रडोन) चिक्के आयकानांय?

**आलेक्स :** कितें?

**आलीस :** हांवें पाद्रीक फोन केलें....

**आलेक्स :** मेळ्ळोगी? कितें म्हळेंय?

**आलीस :** मेळोंक ना....पिर्की मिर्नीक सांग्लें.

**आलेक्स :** कितें म्हण?

**आलीस :** आयरी बांयत पडलां म्हण..... (कुस्कता)

**आलेक्स :** अरे कर्मांनो (तकलेक हात धाडावन) तुजो भेजो कुसोंक सुरु जाला, बियाचो कुवाळोच कुसल्ल्यापरीं ... सार्कें समजोंच्या खातीर ताका राकोंक जाल्नां ... हांव घोव कित्याक आस्वो घरांत? तूं बायलगी ताप्ल्ली कायल?

**आलीस :** आतां कितें करचें?

**आलेक्स :** कोंप्र हाड्न येताना मिर्नी, तूं दोन वाती पेटय मोर्न तलास कर आनी मूस धंवडाय. हांव आयिल्ल्यांक वसयतां आनी तेर्स सुरु करन कंताराक ताळो मेळयतां व्हयगा म्हणताना कितें येतागी म्हज्या तोंडांत ।

**आलीस :** वेगीं वचोन त्या मिर्नीक सांगिनांय, चिक्के...प्लीज वचोन ये... खंय तरी घांटी मारीत तर... लोक व्होर आयिल्ल्या परीं येंवक आस . .....

**आलेक्स :** आतां तुजी तकली काम करता. तुमकां घोंपरा सक्ला बूद म्हळ्ळयाक दुवाव ना. आनी गुर्काराचे वायलेक ताच्या की सक्ला.

[आलेक्स भितर वेता .... वस्तूर न्हेस्ता]

**आलीस :** (मौनतेंत) देवा म्हज्या... म्हाका नाका आस्लें एकेक चाळी हांवेंच रचल्योमू?

[तेणे हेणें चिंतून चडपडता]

**आलेक्स :** (प्रवेश) हांव सर्व विलेवारी करतां, मेळ्ळयार आयरिकयी हाडतां.

**आलीस :** जायत ... वचोन ये.

[आलेक्स गेल्लोच सरारां भितर वचोन शिलाच्या कानाक धरन भाग्र हाडता]

तुका उबेंच किल्या लेकार मीवट सारोवन वोताक घाल्न, तुजी मांडल्ली चरब जिरयतां म्हण भोग्ता... दळिद्ऱ्या तुका मान मऱ्याद आसगी ना?... तूं ह्या घरचो कामाचो... हो कस्लो तमासों.

[थापडां दिता]

**शिला :** दम्मय्या.... बाये.... आय्यो मारिनाका मारिनाका बाये. आनी पळेयनां बाये आय्यो... म्हाका दिस्लें बाये... आनी तीळन पळेयनां बाये.

**आलीस :** तुका खंचें दिस्ता आनी खंचे दिसाना म्हण ना. निकळ दोळ्यां मुख्लो... नापास पज्ल्र्ली भाण्शिऱ्या (लोदून घाल्ता) खंच्या कास्ताचो कामाचो मेळ्ळोगी महण्तां.

[तितल्यार पाद्र्याब वाग्लालागीं प्रवेश]

**पाद्र्याब :** कितें गजाल?

**आलीस :** गुड मोर्नींग फादर.

**पाद्र्याब :** किते? आयरीक कितें जालें?

**आलीस :** आमचो तुमकां सोधून गेला फादर.

**पाद्र्याब :** हांव ताका सोधून आयलां कितें गजाल?

**आलीस :** फादर, सवकास उलयात फादर आंवसरनाकात काळीज म्हजें अस्कत जालां... गजाल... गजाल, सयरिकेची आसल्ली फादर.

**पाद्र्याब :** आत्तां मोर्नाची मेळ्ळी, कितें जालें? कितें गजाल? लिपयनाका.

**आलीस :** शिलाक वांयत गाग्रो दिस्लो म्हण....

**पाद्र्याब :** (आंवसरान) कापाड सुटल्लेगी? (व्हळू)

**आलीस :** तसें न्हय फादर. गाग्रो सुकात घाल्लो. उबोन बांयत पडल्लो आमी आयरीच उडलां न्हय पडलां म्हण चिंतले.

**पाद्र्याब :** आतां आलेक्स खंय गेला? (दुबावान)

**आलीस :** तुमकां सोदूंक आनी आयरीक हाडूंक!

**पाद्र्याब :** आयरी खंय गेलां?

**आलीस :** तें नेणां फादर.

**पाद्र्याब :** वित्ती ख्रंय गेला ?

**आलीस :** म्हजी तक्ली पिशी जाता फादर. दयाकरन खुनी केल्याक इन्सपेक्टारान दोण्णो काण्गेवन सवालां केल्या परीं म्हाका दयाकरन विचारिनाकात. म्हजें काळीज अस्कत जालां, मन दुखेस्त जालां.

**पाद्र्याब :** तसें न्हय आलिसा.... हें मज्ल्ह्यादेचें सवाल , आयरीक सयरीक फोरिनची सोधल्या तुमी.

**आलीस :** देकून आमचो एक्लो रागान म्हाकाच जा महण्ता फादर.

**पाद्र्याब :** ओ मै गोड वित्ती केदाळा थावन दिसाना?

**आलीस :** आमी नेणांव फादर वोरां पळेंवंकनांत. सकाळीं उटताना ना..... कामाकी वचोंक ना. फोन करन विचारलें.

**पाद्र्याब :** तीं मोग पुणी करतालिंगी?

**आलीस :** देवा देवा... फादर कसलें सवाल तुमी विचारतात?

**शिला :** (मदग्त) मोग करतालिंगी म्हळ्ळो दुबाव थोडेपावटीं तुमी उलयील्ल्यापरीं हासोन हासोन उलयतालीं फादर !

**आलीस :** युत्त कट्टेवा... सर्पापरीं मधें जीब घाल्थी मुळांतच कापूंक आसां.... चल.

[भितर चल्ता]

**पाद्र्याब :** तसें न्हय आलिसा हें स्वाभावीक सवाल तर्नाटपणार केदनां, कसो, कित्याक मोग सुरु जाता आनी परिणाम कस्लो रावता तें समजानांत.

हांव मनाशास्त्र उलयतां... तसें कांय तरी आयरीक बेजाराय आसल्ली?

**आलीस :** बेजाराय.... बेजाराय (पद्देता) कस्ली फादर ताका बेजाराय? पाटल्या दिसांनी हपत्या थावन उलवणें उणें मागणें रजार चड करतालें.

**पाद्र्याब :** सयरिकेचो नोव्रो सोरो पुणी पियेतालोगी?

**आलीस :** कंपेनी खातीर थोडें सेवता खंयच्य पियेंवच्य तितलो खोटो न्हय.

**पाद्र्याब :** चेडूं त्या देकून कांय भियेतेलेंगी?

**आलीस :** बापायन दिल्यार तेंय सट्ट करन मारतालें.

**पाद्रयाब :** ओ मै गोड. कितें करचें? घर सोदनां केलिंगी?

**आलीस :** जाता तितली केलीं फादर.

**पाद्र्याब :** कसलें अन्वार ह्या भागेवंत कुटमाक दिलेंय देवा [पासायो मारता... भितर तेणें हेणें तिळता. क्रमेण भितर वेता. आलीस वागील बंध करुन सोफार तक्लेक हात दीवन बस्ता]

**आलीस :** [कितेंगी चिंतून भितर वेतास्ताना] शिला शिला [तितल्यार मुखल्यान आंवसरान आयिल्लो पाद्र्याब आपटता] सो.... सोरी.

**पाद्र्याब :** (बावळ्याक घरन) आलिसा तूं म्हाका भयण म्हळया परीं.

**आलीस :** फादर तुमी भावापरीं कितें गजाल?

**पाद्र्याब :** ओ मै गोड!

**आलीस :** कितें? खंय, हांवयी पळेयतां (मुखार वेच्याक आडायता)

**पाद्र्याब :** नाका! तुवें माळ्यार पळयेलायंवे?

**आलीस :** हो! ना फादर.

**पाद्र्याब :** तर पळंवची गर्ज ना... पोलिसांक फोन करयां हात लायनाकात.

**आलीस :** आयरीक कितें जालो? दयाकरन वेगीं सांगात. फादर... वेगीं सांगात (रडोन हालयता पाद्रयाबाक)

**पाद्र्याब :** आयरीन दोरी काण्घेल्या द्र्याच घारांत.

**आलीस :** ह्या घारांत?..... दोरी! ..... कितें लॉजीक? खंय फादर, वेगीं सांगा .... माळयार?

**पाद्र्याब :** माळ्यारच .... सकला थावन गोमटी काडन तिळ्ळयार दिस्ता.

**आलीस :** (मदग्त) तें माळ्यार चडानातलें फादर.

**पाद्र्याब :** देकुनंच बरो जागो सोदला ग्रहचार येताना हातांच्या नाकक्षांनी वीक आस्ता देकून सांग्चें आलिसा.... तर्नाट्या भुर्ग्यांक विंचवण करताना स्वतंत्र दिजाय म्हण. कितेंयी जबरदस्ती बलतकार आस्लयार भुर्ग्यापणार मात्र चलयजाय, त्ये दीस... त्ये दीस तें माद्रींक वेता महण्ताना.....

**आलीस :** (मदग्त) आमकां आसल्लें एकच धूव....

**पाद्र्याब :** प्रयत्न केल्यार देव आन्येक दितो आव्रमान एकल्याच पुता इजाकाक दींवक नांगी? तुका पर्नी सोल्लो गोत्तुनांगी? ....आतां भियेनाका, जाल्ल्या परीं जाता, हांव पोलिसांक फोन करतां.

**आलीस :** फादर, दयाकरन पोलिसांक तिळसिनाकात. जीवघात केल्लें कारण आनी गळपास म्हण्ताना आमची मर्या उबता.

**पाद्र्याब :** देकून कितें करचें म्हण्ताय?

**आलीस :** साहय जाल्यार व्हळू देंववन निदल्लें उटोंक ना महण्यां.

**पाद्र्याब :** तें कळ्ळ्यार कानुना विरोध जाता.

**आलीस :** म्हजो घुर्कार वाड्याचो गुर्कार, माजी तसिल्दार, कितेंय जांवचेंना.

**पाद्र्याब :** नाका, पोलिसांक तिळ्सितां (फोना सर्सीन वेता)

**आलीस :** हांव तुमकां फोन करुंक सोडचीं ना.

**पाद्र्याब :** तर कितें करताय? कितें करताय?

**आलीस :** सकला देंवयतां आनी निदल्लें उटोंक ना महण्तां फादर!

**पाद्र्याब :** ताचो गोमटो अंर्धून मेलां जाल्यान तूं शिर्कताय. तुजी चूक जाता ली. आसल्ले विषय पोलिसांक तिळसुंची सार्की वाट.

**आलीस :** नाका फादर... प्लीज नाका फादर.

**पाद्र्याब :** देव आसा .... धैग्र घे, हांव पोलिसांक प्रैवेट कारार हाडूंक प्रयत्न करतां.

**आलीस :** पोलिसांनी येंवचें नाका, फादर.

**पाद्र्याब :** आलिसा .....तूं बायल मनीस तूं कायदे-कानुनां नेणांय ... आलेक्स आयल्यार स्टेशनाक धाड ...दया करन जाग्रूत कर....भियेनाका... (चल्ता)

**आलीस :** फादर... प्लीज फादर, आय्यो देवा, कितें केलें आयरीन... म्हजें आयरी शिला.. शिला... म्हज्या आयरीन जिवघात [सोफार गळता] केलोगी?

**शिला :** (प्रवेश) कितें बाये... कित्याक रडताय? पाद्र्याबान मारलेंगी?

**आलीस :** शिला... कितें सांगों? ! आयरीन जिवघात केलारे.

**शिला :** आय्यो देवा! खंय बाये? आमकां मेल्लें जावन घोस्वें नांमू? म्हाका भ्यें दिस्ता. सत्मांदतांयी सार्के येना.

**आलीस :** शिला... माळयार?

**शिला :** आय्यो माळ्यारगी बाये? जाले ग्रहचार.

**आलीस :** वचोन पळेवन येरे?

शिला : जायत बाये... कोंत आनी बेंतीण घालन वेतां बाये (चल्ता भिंचान भितर)

आलीस : देवा म्हज्या .... म्हज्या आयरीक कितें केलेंय? म्हज्या एकल्याच मणिकाक खंच्या रितीन काणीक जावन घेतलेंयी देवा? आय्यो....

शिला : बा... बा.... बाये पुरा भेश्टें बाये... तो...... तो घडाय बाये! पाद्र्याबाक घडाय दिस्लो.

बाये..... तूं तूं भियेनाका बाये, जाय तर तुकायी दाकयतां बाये, घडाय बाये.... पोर काडल्लो पळे देवाळ्या केंळब्यचो ताका दोरी घालन बरें करन आयरिबायेच्या आंग्लयान गुटलावन दवरल्लो... पाद्र्यावाक गळपास घेतल्या परी दिस्लें जायजाय... हांवे समा वय्र चडोन पळेयलें बाये व्हय बाये.

आलीस : (सवकासायेन) कितें सांग्तायरे शिला?

शिला : पोरच्या सन्वारा कुमसार जाल्लों बाये सतच सांग्तां बाये... जाय तर पळे बाये घडाय तसोच आसा...

आलीस : (भितर वेता... थोड्या वेळान भाय्र येता)

सायबा देवा म्हजेर कसले आकांत आनी वंढपास ह्या घारांत आयलेगी महप्तां. तुवें तितलें बरें करन न्हेसयलांय, मन्शापरींच दिस्तारे?

शिला : हांवें चेडूं बेर्चाप्पा करयां म्हण आलोचन केल्ली... तसें आयरि बायेचें आंग्लें घडायेक गुटलायलें.

आलीस : बंद कर. पाद्र्याब पोलिसांक आपंवक गेला आता कितें करचें?

**शिला :** आमी वीग घालन कुशिल्या घरा बस्यां आनी आयल्यार ताका पाटीं दाडयां.

**आलीस :** तुजी तकली कुंबू जाल्यारे.

**शिला :** खंचान बाये (तक्लेक आपडून) समा असा

**आलीस :** आमचो एकलो महफ्तालो खंय वचोंक नजो म्हणोन आत्तां आत्तां पाद्र्याबाचें जिग्रिबिसांव सांग्ल्यार म्हाका लेंवोन लेंवोन खंवक आसा. आस्वेलान खेल्ल्या परी ह्या पाद्र्यावाक मिसा वेळा पियेल्लो वायन लाग्लोगी म्हण्टां ...

**शिला :** मिसा वेळा पियेल्लो लागाना म्हणोन भितर उप्रांत परतून पियेतात बाये म्हाका एका आल्तार भुर्ग्यान सांगलां.

**आलीस :** पुरोरे! देवा देवा वोट्रासी म्हजे ग्राचार म्हण्टां. घडाय पळेवन गळपास घेतला म्हळयार हाचो मेंदू कट्टयांत आसागी लोबाच्या बोल्सांतगी कोण जाणां.

**शिला :** बाये..... बाये पाद्र्याबाक हांव पाटीं आपवन हाडूंगी? मागीर पोलीस आयल्यार तो घडाय व्हरतीत, न्हय तर आमी आयरिबायेक निकळावन घडाय दवरला म्हण बदलाम करतीत तर...

**आलीस :** आळेरे भिकणेश्या, तोंडाक आयिल्ल्या परी झांकुळनाका, गर्जे भाग्र पेट्यान घोंकल्ल्या परीं तूं कामाचो मनीस तरी कोंकण्या रामाचो मेंदू आनी मार्केटिंतल्या मोगोरल्याची जीब आयल्या तुका.....शिला आयक म्हाका.

**शिला :** बाये, आयकोनंच आसां बाये.. सांग बाये.

**आलीस :** शिला चड्डी तुजी निकळाय.

शिला : बा ... बा.... बाये कितें उलयताय बाये चड्डी निकळायल्यार? (चड्डी घट्ट घरता)

आलीस : भिकणेश्या पुरतें आयकरे, चड्डी तुजी निकळावन तें धोवें पुडवें न्हेस, खोमीस तुजें निकळावन शर्ट तुजें घाल, बाण्शिरें खंदचा वयलें उडवन तुवालो दवरन व्हळू स्टेशनाक वचोन पाद्र्याबाक सांग.. सत... गजाल. कितेंच कांपानासें सांग.

शिला : पाद्र्याव पात्येना जाल्यार.

आलीस : पात्येना जाल्यार घडाय व्हर. व्हयगी म्हण्ताना दुबाव केल्यार ताका पाताक जांवक आसा.

शिला : जायत बाये वचोन तसेंच करतां (भितर वचोंक मेटां काडता)

आलीस: शिला.....

शिला : कितें बाये?

आलीस : तुजी देड कोल मोगोरल्याची जीव सर्पापरीं घडये घडये वाटेर भाग्र घाल्नाका ... वच भितर वस्तूर वदली.

शिला : भितरच दवरन वेतां बाये (भितर चलता)

आलीस : आनी हो भेंक्रो वचोन आनी कितें अनाहुतां घडतातगी देव जाणा. वाड्याचो गुर्कार म्हजो घर्कार, घरचो कामाचो चापडयांनी तमासो एक धूव कर्ता माग्णें रजार, पूण फांत्या फरार काणे. एक बोर्डार पाद्रिच्या बापायचो पूत, कामाक वेचो भक्त, फांत्याफारार काणे एकाच फांत्यर एका घरांतलीं दोगां नापत्तो देवा देक आनी हांवे एक अबल स्त्रीयेन कितें करुंक जाता. घरचो येज्मानी पाद्रीक सोड्डन गेला. पूण पाद्री पोलिसांक आपंवक गेला. आनी पोलिसांनी

येवन कितें करुंक आसागी म्हण्ता.

सर्व काटांत पडोन मरोंदीत, देवा म्हज्या आयरीक महाका पाटीं दी. ताका जाय तर तुज्या चाक्रेक दाडतां पूण पेल्या चल्या पाटल्यान दाडिना.

मऱ्याद आमची राक गुर्काराची वायल हांव [तितल्यार शिला शर्टार खंद्यार तुवालो न्हेसवन तयार]

**शिला :** बाये वचोन येंवगीं?

**आलीस :** शिला.... एक घडी तुजे कान हेवशीन दी.

**शिला :** खंचे वाये (तुवालो पापुडता) खंचे? खंय आसा? (सोदता)

**आलीस :** समा आयकरे (कानाक धरता) आनी तुजी मत हेवशीन दी.

**शिला :** कान सोड वाय, कोंन भितर आसा.

**आलीस :** शिला, म्हाताज्ल्हा कत्या परी करशी तर तुजे दोनयी कान कापून फांत्याफरार दडबडच्या ऊंद्राचे कान वसोंक आसां गणपतीक हस्तिची सोंडी बसयिल्ल्यापरीं.

**शिला :** नाका बाये, नाका, म्हाका होच कान बरे दिस्तात, दम्माय्या नाका (कान सोडता)

**आलीस :** हांवे सांग्चें सार्के आयक, मत तुजी विशाल दवर, लुंगी तसीच सकयल सोड (तसेंच करता) सांग्चें समा समजा. पाद्र्यावाक कुशीन आपवन व्हळू सार्की गजाल सांग आनी कूडले घुंवोन पाटीं ये. कोणेंयी आपयल्यारी कोणयी मेल्यारी तुजे दोळे उग्ते करिनाका.

**शिला :** बंधच दव्रन येतां बाये.

**आलीस :** जरतर मांकडा खेळ खेळसी तुज्या पातिचें चांव्डें सोल्न सांबाळा सवें इनाम दीवन मार्गार लोदून घाल्तां पळे.

**शिला :** ना बाये पाद्र्याबाक सांगोन कूडले भाग्र येतां. पोलिसांनी येंवचें नाका म्हण सांग्तां.

**आलीस :** तूं सांगिनाकारे पाद्र्याबाक सांग सांगोंक

**शिला :** जायत बाये वचोन येतां (चल्ता)

**आलीस :** आंकवार सायबिणी तुवें एकल्याच पुताक जनम दिल्यारी आंक्वारच उरली. पूण हांव एका भुर्ग्याक जन्म दिल्यारी (रडता) खंचीं घडितां कसीं घडली तीं चिंतूंक सकाना. जोकियामाच्या पुताची सयरीक पायांयळा आयिल्ली. काजार करयां मळ्यार धूव आयरी ना. ह्या आयरीक सयरीक सोदची स्वण्णां कितलीं बंधल्लिंगी एक पिकचार काडल्यार शेंबोरां वग्र तीन रिलां जाती.

माद्र जातां म्हण्तालें... आनी यंयसरयी फांत्याफारार दोरे उडल्यार आमचें काळीज खोंडल्ल्यापरीं हीं तर्नाटीं चेडवां कितलीं मौन आनी देवास्पपांत आस्त्यारी खरायेची दाव आनी प्रभाव कित्याक आसोयी वोमतोन येतागी म्हप्ता.

[तितल्यार आलेक्स प्रवेश आंवसरान]

**आलेक्स :** युत्त बऱ्या कामाक भाग्र सरताना काळें सुणें धोव्या - बऱ्या काल्सांवार वोम्ताल्लें काळें तींत आनी कदवळाथिल्लें पींत, बऱ्या उमेदी तेदनां आकांताचे तार. बऱ्या मन्शाच्या सोदनेर येताना मनीस ना पात्तो म्हजी तकली आनी थोडयाच घडियांनी पिशी जांवचीं संकेतां दिस्तात ...पाल्वोंच्या दिव्यान प्रकाश दिल्ल्यापरीं.

**आलीस :** आंवसरनाका सायबा.... मेळ्ळोवे?

आलेक्स : मेळ्ळो.

आलीस : कोण म्हणांय?

आलेक्स : तुवें कोणाक विचारलेंय

आलीस : पाद्र्याव हांगा येवन गेलो.

आलेक्स : म्हाका पिर्की मिर्नी मेळ्ळो. पाद्र्याबाक वकीलाचें फोन आयला म्हणालो.

आलीस : कित्याक खंय?

आलेक्स : आलिसा सलिसायेन नालिसाय घेनाका तूं कोणालागी विचारताय? पाद्रीक फोन आपोंक अयिल्लें म्हाका न्हय तुका मटव्यान सांगल्यार कळान देव म्ह्ळयार पर्नो - नोवो सोल्लो तुज्या मुखार वाचिजाय.

हांव तुजो घर्कार आनी वाड्याचो गुर्कार म्हजें उतर टैपरैटरांतली `A' खीळ धांवताना `A' पडच्यापरीं क्षणा भितर तुका समजाजय. हें कांय ना. जेवन जालेंगी म्ह्ळ्यार (वयलेच्या ताळयान) सेजारचें कार्मीण वाळांत जालां, चेडो भुर्गो, चोवतो बंळतेर म्हण तुका सांगाजय.

आलीस : पुरो सायबा... समधान घे पाद्री आज्ल्क्षेक अन्वार हाडून गेला.

आलेक्स : (मोगान) सांगल्या परीं पाद्री कितें म्हणालो आलिसा?

आलीस : पाद्री पोलिसांक आपंवक गेला.

आलेक्स : कितें? कोणाची खून जाल्या? (आकांतान)

आलीस : खून जांवक न, आयरीन जीवधात केला म्हणोन.

आलेक्स : किते, आयरीन जीवधात केला? खंयसर सांग?

आलीस : ना सायबा, वग्र माळ्यार दोरियेक उमकाळायिल्ल्या धडायाक आमच्य शिलान उंद्रा - जर्ल्यांचे काट चुकंवक आयरिचें पर्नें आंग्लें गुटलायिलें तें पळेवन जीवघात केला... कानुना विरोध म्हण ताचें सेमिनरिंतलें मनशास्त्र सांगोन पोलिसांक आपंवक घांवला.

आलेक्स : सायबा सोडवणदारा, आयरिच्या बापायक आपवन हाडच्या तितलो उक्कल नातल्लो पाद्री ताच्या लोबाचे बुतांव कितले ते जाणांगी ना कोण्णा.

आलीस : देकून अर्जेंट शिलाक पाटीं आपंवक धाडलां.

आलेक्स : आलिसा.... आनी त्या शिलाची पिशी तकली घेवन आतां कितलीं आन्वारां घेंवक आसातगी देव जाणां पाद्रीक पोलिसांक आपयल्यार शिला इन्सपेक्टाराक आपंवक आसा (सट्ट करन बागील बंध करन येता )

खंचो सैतान येवन बागील बडयल्यारी वा फोडल्यारी बागील उग्तें करिनाका. म्हजी तकली विन्यार जाल्या. म्हज्या पोटांतलीं पिलां बोब घाल्न आनकिटी चाबोंक सुरुकेल्या .... रांदनांतलें उदक हाड न्हय तर वाळनेंतलें तरी हाडन म्हज्या ताळ्याक सोड.

आलेक्स : म्हज्या कल्सांवाक बुतांव ना तें शिवंच्या तितले तुका अक्कल ना पयलें उदक सोड ताळ्याक रांदूंक ना तर होटेलां उणीं नांत.... तींयी बंध जाल्यार वस्तूर भिजवन पोटाचेर दवरन निदयां (आलीस भितर चल्ता)

म्हज्या जिण्येंत आस्ले मारेकार दीस येतीत म्हण फांत्याच्या स्वप्णांत तरी चितूंक ना कसलें खोटें नशीब खोटावन दिलेंगी म्हण्तां?

[बाग्लार आवाज]

काळजांत सां मिंगेल बडयता आनी ह्या बाग्लार लुसिफेर पातकाक नाडता.

[परत बागील बडयता]

कोण?

**भाग्र थावन :** आमी !

**आलेक्स :** कितले जण?

**भाग्र थावन :** दोग

**आलेक्स :** युत्त तुमच्या जन्माक! कोण जाय तुमकां? वोला दीस नांव दींवक नांवे? कसलें दिर्वे हाडन आयल्यात.

**भाग्र थावन :** पयलें बागील काड सायबा.

**आलेक्सा :** सायब सर्गार हें घर आनी तुमी म्हज्या बाग्लार ह्या घराचें बागील काडचें म्हळ्यार केल्शान तासूंक बागील काडल्या परीं न्हय कितें जाय?

**भितर थावन :** अरेरे... आमी आयरिच्या सयरिके बाबतीन आयल्यांव ... जोकी.

**आलेक्स :** सायबा सां जोकी... म्हजी काकुळ्त कर

[सट्ट करन बागील काडता]

भोग्सिजय, भोग्सिजय थोडया ग्वास्मी तकले हुना वर्वी उलयलों.... मतीक घेनाकात.

[जोकी आनी ताचो भाव पोकी प्रवेश]

**जोकी :** पर्वा ना पर्वा ना... हो म्हजो भाव पोकी ।

**आलेक्स :** हो... भारी संतोस पावतां मेळोंक (हात हालयताना पोकी हात सोडिना) चिकके हात

सोडयेत.

**पोकी :** हो सोरी म्हाका उडास इल्लो उणो.

**आलेक्स :** आतां कळ्ळें

**जोकी :** खंय गेल्यांत घरचीं?

**आलेक्स :** आसात आसात तांच्या तांच्या कामांनी आसात बस ..... बस... आलिसा जोकी आयला, कांय पियेंवक (तितल्यार ग्लासांत उदक घेवन प्रवेश)

अरेरे मलाकती तुवे पियेंवक उदाकच हाडलेंयमू...

सयऱ्यांक कांय ....

**जोकी:** कांय पर्वाना.... आत्तां पियेवन आयल्यांव मात्र.

**पोकी :** तरी म्हाका इल्ली तान चड (उदक दिता पियेता)

**आलेक्स :** आतां कळ्ळे.

**आलीस :** जेवणाकच रावोंक सांग्यां, कितें म्हण्ताय?

**आलेक्स :** (वायलेक पळेवन) तुवेंच सांग्लेंय न्हयवे? बरें गम गमीत जेवाण तयार केलां आलिसान... जेवनंच वचोंदीत (व्यंग्यान)

**जोकी :** हें, म्हज्या पुताचें काजार वेगींच करुंक चिंतलां देकून ताका वेगीं रजा काडूंकयी बरयलां .... देकून आयरिच्या सयरिके बाबतीन मुन्नालोचन करची बरी पळे.

**आलेक्स :** आमी तयार... आमी चड्डी न्हेस्ताना थावन इष्ट पळे, आमकां मोग मुख्य.

**जोकी :** आयरिची अभिप्राय कितें?

**आलेक्स :** आयरी... आयरी भाग्र ये पुता कितें करताय?

**जोकी:** पर्वाना तुमींच विचारन समजाल्यार जालें.

**आलेक्स :** आलिस भितर आयरी कितें करता पळें.

[तोंड काळें करन पळेवन आलीस चल्ता]

**जोकी :** तुमी कितेंच खंत करची गर्ज ना पुरा हांव आनी म्हजो पूत पळेयतांव आमकां गुणेस्त चेडूं जायजेय आमचें घराणें चलवन वरच्या तसलें.

**आलेक्स :** सग्ळें तुमींच पळेयात काजार एक जांवदी.

**जोकी :** तें समा सांगल्यापरीं आमच्याक मुदियेक कितें हाडूंक बरयजाय? ह्या विश्यांत विचारुंक आयल्यांव म्हजो भाव म्हण्ता...

**पोकी :** (मदगत) अटोम्याटीक एक वाच दिव्यां म्हगोन.

**आलेक्स :** \`आटो' \`म्याटीक' हूं! आलिसा ... आलिसा. ...

(प्रवेश)

**आलीस :** कितें म्हणांय?

**आलेक्स :** ज़ोकी खराराक कितें पूरा हाडचें म्हळ्ळ्या विशीं विचारुंक आयला... आयरी... आयरी कितें म्हण्ता?

**आलीस :** तें निदलां ... पोटांत चाबता खंय ... कळ्नांवे बायलांची पिडा महयज्ल्हाची.

**पोकी :** पूण म्हज्या बायलेक हापत्याची पिडा आसा. कितें म्हण्वें एका हपत्यांत पेंकटांत दुक, दुस्त्या हपत्यांत हदर्यांत दूक, तिस्त्या हापत्यांत गांटी दूक, हात पाय वोळ (पोकी हात भाषेन रावयता)

**जोकी :** तें आसोंदी पोकी हां हांवें आयरिची सर्व परिचय, कुटमाविशीं बरयलां जाप आयिल्ल्या परीं खराराक दीस दवरच्याविशीं बरयतां.

**आलेक्स :** तुवें सांगल्ल्यापरीं जोकी कितलें म्हळ्यारी तूं म्हजो चड्डी न्हेस्ताना थावन इष्ट पळे.

**जोकी :** बरें तर, आमच्या तेवशीन केदनां येंवचें?

**आलेक्स :** कांय फिकीर करिजाय म्हणोन ना आमच्या चेडवालागीं सवकासायेन विचारन पूरा सांग्तां मुदियेक, काजाराक कितें कितें कसें कसें ... हें आलिसा... जेवणाक तयार कर.

**जोकी :** पर्वाना... नाका .... कित्याकगी मस्त दीस जाले हेवशीन येनासें तसें हांगाच वग्र पेंटेंत काम आसल्ल्यान आयल्यांव?

**आलीस :** अप्रूब आयल्यात, जेवन वचात तांतूं कितें खंच?

**पोकी :** तोंडलांवक कितें ?

**आलेक्स :** निस्तें !

**पोकी :** आमच्या अबुदाबिच्या नोवऱ्याक पूरा रेडिमेड मेळ्ता खंच पूरा अटोम्याटीक आनी रेडिमेड.

**आलेक्स :** आतां कळ्ळें.

**जोकी :** गजाली केल्यार वेळ पाशर जाल्लोच कळनां तुमी कामाचीं मन्शां, तुमचो वेळ मोलाधीक... बरें आमी वेतांव.

**आलेक्स :** राव म्हळ्यारी रावानांत ... तर वेगींच मेळतां (उटतात)

**जोकी :** बरें वेतां ... या (चल्ता)

**पोकी :** बाये चल्तां हांव जेंवक रावतों, दाट्टू नाका म्हण आंवसरता.

**आलेक्स :** (हात जोडता) देव बरें करुं (चल्तात)

**आलीस :** देवा तुका अर्गां.

**आलेक्स :** पयलें घोवाक अर्गां दी. रांदणीक आनिकी उजो पेटोंवक ना. घरांत आकलासाचो उजो हांगा पोटांत भुकेचो उजो तरी आयिल्ल्या सयऱ्यांक जेंवक - खांवक दादोशी म्हणोन मज्ल्हाद राकली.

आयरिच्या सयरिकेक आयल्यात पूण आयरीच ना जालां. कांय तरी आयिल्ल्यांक तानेक दिव्यां म्हळ्यार कामाचो पाद्र्याबाचें वरांट पाटीं हाडूंक गेला. उदक पियेवयां म्हळ्यार रांदनांत ऊंदीर पडला आनी ही गजाल तानेल्ल्याक सांग्ल्यार पोटांतले आटोम्याटीक पूरा भाय्र पडात.

आलिसा .. आलिस तूं आतां कितें चिंत्ताय? आयरी विशीं या नापत्तेविशीं वा ताच्या भावा आंक्वार पाद्री विशीं या दळदीर आटोम्याटीकाविशीं ?

**आलीस :** (रागान) तूं सग्र - भग्र जालाय कितें उलयताय तें तूं जाणांयगी? दाक्तेरा सर्शीं धाडयां म्हळ्यार ताकायी तकली फडाफड सुरु जांवक आसा हांग आयरी दिसाना, बोर्डार वित्ती दिसाना.. म्हज्या काळजांत दुखिच्यो पोळियो वांदूक सुरु जाल्यात. तूं दादलो म्हाका भाजून खंवक पळेयताय चिक्के थंड बस.

**आलेक्स :** म्हज्या खंतिच्या पोतियेक हात घांलूंक दया दाकयतायवे?

तोमासान जेजुच्या कडवळ्यांत हात घाल्न दुबाव निव्रायिल्ल्या परीं, म्हज्या खंतिच्ये उडण्यो तपसावणेक थेंतेस्कोप नाका तुजे नाजूक बायला कान पुरो आलिसा... जाय तर लागीं ये आनी तुजे कान म्हज्या हरद्यार दवर (लागीं येता)

**आलीस :** थंड बस... बेष्टेंच राग हाडया नाका पाद्र्यावाक पळेवन ये कितें जालां तें?

**आलेक्स :** पाद्रीक पळेंवक भिस्प आसा? हांव कित्याक? `हांव गुर्कार आलिसाचो घर्कार' म्हळ्यारी तो म्हज्यालागीं कुमसार जांवचो ना.

**आलीस :** कांटाळो! कांटाळो!! कसलें कांटाळयाचें उलोव्णें!! उलोवणें म्हळ्यार जिबेची खोरोज काडची वा चिंतनांनी घोरोज घाल्वी न्हय. जिपभर आंकवार रावंचें पुणी व्हय पूण पुर्पुल्ल्हा दादल्यालागीं काजार जांवचें न्हय धा- बारा रडकुरीं भुर्गी आस्वीं पुणी सुधारसियेत, तरी एकलेंच धांवच्चा तस्लें न्हय.

आंकवारपणार खरायेची धोस, तर्नाटयांची घोस, मोगाचो वोसो, माद्र जांवक या म्हळ्यार मागण्या रजाराची विराराय, पाटीं येजय पडात म्हळ्ळें भ्यें... अय्यो कस्ली मांडावळ आनी कस्लें फुटकर नशिबगी म्हण्तां.

**आलेक्स :** वा... वा.... (ताळियो पेटोन भंवारीं चोयता) बायले कसलें उलयताय म्हज्या भांगारा हांव नातल्ल्या वेळा असें उलयल्यार आयरीक सयरिकेक आयिल्ले कोणी तुज्याच सयरिके बाबतीन प्रस्ताप काडतीत तुका भांगाराचें काळीज आसा हांव जांणां तुजी धूव ना म्हण्ताना म्हजें बापायचें काळीज रडता. कितें करुं? म्हाका

उडास येता तसिल्दार आस्ताना वाव्ह्लें पिकोन झडताना फळ देटाक तितलें दुकाना, जितलें तुटयताना दुखता. सुकोन पडताना रुक माती तितली कोस्ळाना तितली जिव्यार कोस्ळाता. त्याचपरीं भुर्गे मेल्यार तितलें भोगाना जितलें सांडल्यार भोग्ता हें फकत आवयचें काळीज मात्र जाणां, वांजूंड्याक शूल्न्न दिस्ता.

आलीस : (एकाचफारा मोगान बावळ्याक धरता) कितें तुका म्हजे बंदपास कळ्ळेगी? आय्यो... देवा म्हज्या.

आलेक्स : रडानाका आलिसा... आमचें धू आमकां पाटीं मेळाना तर आमच्या जिविताचो नाटाकयी आकेर जायना. वेगींच मेळतालेंच तें खंडीत आसा, तें मेळ्तालेंच.

आलीस : खंडीतमू?

आलेक्स : खंडीत. पूण खंय तें हार्वा नेण. देव कोण? कसो आसा? खंय आसा? आमी नेणांव तरी ताका आमी दिस्तांव ताणें मन्शाचें एकेकल्याचें जिवीत एकेक विचित्र रितीन मांडावळेन आसा केलां.

[पयस जातात]

एक चिंतल्लें जाताना दुस्याक मत वेता. तिस्याक हात वेताना चवत्याक मन वस्ता, हीच ती निसण संसारांतली जाचेर मनीस चडता पडता. जो कोण पडोंक तयार ना तो आशेवनंच मोरता. असेंयी हांवे आयकालां.

ऊट आलिसा, दन्पाराच्या जेवणाची विलेवारी कर. बेजारायेन कर्गोंच्या बदलाक परिहार सोदयां. जर आयरी सांजे भितर येना तर..... थोड्या दिसांक पुणी आमी हें घर सांडयां, कितें?

आलीस : तसेंच करिजय न्हय तर लोकाक कशें तोंड दाकंवचें?

**आलेक्स :** वच आलीस (तिचें तोंड पुस्ता) म्हजें भांगार आज चाप्पे दिस्ता... वच (चल्ता)

सायबा देवा तुका अर्गां दितां म्हज्या बायलेन धूव मायाक जाल्याक पयलेपावटीं मोगान पोशेल्ल्याक अस्लोच मोग म्हाका लाभय.

सरवेस्परा हांव इल्लो ज्योली मनीस म्हजें काळीज दर्यांतल्या नितळ उदकापरीं हांवे मोग केल्लें धूव नापत्ते, सांगाता बोर्डारयी. उरल्या एकलीच बायल तिका तरी सांबाळ. आलिसा.

**आलीस :** (प्रवेश) कितें आपयलेंयवे?

**आलेक्स :** (पाट्देता) कांय ना आलिसा, तूं भितर आसायगी ना तें दुबाव जालो... वोस भितर तुजें काम कर (चल्ता) मोग म्हळ्यार असो आसाजय. राग पुणी आयल्यार खरनो फुटोन आपयल्यारी तिका नाटवाना.

[तितल्यार वित्ती ब्यांडेज बादून प्रवेश]

**वित्ती :** अंकल....

**आलेक्स :** तूं वित्ती? आय्यो तुजि गत....?? कितें जालेरे? हें आयरी खंय आसारे...? उलयरे आलिसा... अलिसा.

**वित्ती :** अंकल इल्लें उदक दी अंकल.

**आलेक्स :** समधान घे पुता ... हाडन आयलों (धांवता)

[वित्ती शर्ट काडच्या प्रयतनांत सल्वाता उप्रांत आपल्या बोल्सांतली काग्दांची रास सोफाच्या एक मुल्याक दवरन, एक मधेंच दवरता. तितल्यार आलीस, आलेक्स प्रवेश]

**आलीस :** वित्ते आयरी खंय आसारे?

**वित्ती :** आंटी उदक दी (पियेता!)

**आलीस :** आयरी तुज्या सांगाता गेल्लेंमू?

(चिक्के राव महळ्ळया परीं हात भास करता)

वेगीं सांगरे आयरी...

**आलेक्स :** (मदगत) राव सायबिणी आंवसरनाका... हांव विचारतां आयरी खंय आसारे वित्ती? कितें जालां ताका? सांग.

**वित्ती :** (सवकास) आयरी पाटल्यान धंवलां ताका सयरीक जाल्या खंय.

**दोगांय :** सायवा सोडवण्दारा कोणाचिरे? कोणा पाटल्यान धांवलांरे? तूं खंय गेल्लोयरे? हें कितेंरे?

**वित्ती :** हांव आयरी पाटल्यान धांवोन वचोन पळेव्यां ...

**आलीस :** युत्त दळिद्न्या आमच्या घरचें खावन आमच्या धुवेक उकलून धांवोंक पळेयलेंयरे? पाद्रिचो भाव खंय! तुज्या पेंकटाक देंवचाराची खोट पडों.

**आलेक्स :** चिक्के राव आलिस ... वित्ते, आतां आयरी खंच आसा? कसें आसा सांग?

**वित्ती :** अंकल, चोडो वेळ सवकासाय दियात प्लीज... I need rest.

**आलेक्स :** तुका सवकासाय. तुजो भाव वेंजार करताना दींवक सांग्तां. वाडो सग्ळो धांवोन येवन आतां विचारुंक आयतो जाला. रातीं निदताना तुमी दोगांय ह्या ह्या घरांत निदल्ल्यात फांत्यार दोगांय नांत कितें गजाल? स्पश्ट सांग सैताना?

जर तूं वेगीं सांगिनांय तुजी जीब लुंवोंक आसां तुरूपाचो खेळ सुरू जालो `एक्लो' वेगींच रवेळांत देंवतालो आनी आयरी वेगींच हांगा येतेलेंच.

[वित्ती तकलेक हात धरन चडपडता]

**आलीस :** म्हज्या आयरीक वेगीं पाटीं हाड न्हयतर पोलिसांच्या हातांत दींवक आसां ... सांगरे?

**वित्ती :** आंटी प्लीज चिकके आयक.

**आलेक्स :** हूं सांगरे वेग्गीं.

**वित्ती :** हांव ताच्या पाटल्यान धांवल्लों ताका धरुंक.

**दोगांय :** आयरी कोणा पाटल्यान धांवलें?

**वित्ती :** हांव नेणां तें.

**आलेक्स :** जाणा आसल्लें भोटान मंत्रा उचारल्ल्या परीं सांग. हांगा अक्लासाचे एकेक वाय हरद्यांतल्यान उसळतात.

**वित्ती :** हांवे सांग्चें कितें? तें मेजावय्र आसल्लें कागद वाचात आनी हीं कागदांयी वाचात ... एक, दोन (व्हळू) म्हजींयी आसात... (काग्दां घाल्ता)

**आलेक्स :** हीं कोणाचीं काग्दां? तुका कशीं मेळ्ळीं?

**आलीस :** वेगीं वाच सायबा, न्हय तर हेवशीन दी.

**आलेक्स :** वाच्तां सायबिणी, आंवसरनाका.

[भितर थावन आयरी वाच्ता]

मोगाच्या पाप्पाक आनी माम्मीक,

देव बरो दीस दींव

आयरीन लिख्वें कागद!

तर्नाटपण एक बंधड न्हय, समजणेचें एक स्वतंत्रभरीत समुद्र तांतू कोणे कोणायकी आडोव दवरुंक नजो आनी घेंवकयी नजो हांव नांवाडदीक तसिल्दाराची आनी गुर्काराची एकलीच धू तरी गांवच्या तर्नाटयांक फकत एक तर्नी आंकवर चली तें जाणा जाया. तर्नाटपणार तांच्या व्हडिलांनी तांच्या विंचवणेक स्वतंत्र दीजय, उत्तेजन- सहकार दीजय बलत्कार ओत्तड उपकारना दखो वा विरोधपण दाखोंक नजो. सबार तर्नाटयांचीं मोगाचीं काग्दां गुप्तीं म्हाका येतालीं आनी तांतूं थोडीं हांगा दवरतां सवकास वाचात. पयलें रेलिजियोस भेस विंचतां म्हळ्यार म्हाका आडायलें उप्रांत मिर्निच्या पुतालागीं मोग सुरु जाता म्हणोन संघांतलें काडलें तोमासालागीं दुबाव करुन ट्रान्सफर दिवयलें

हांवयी एक चली... धूव तुमची तरी म्हजी कूड रग्ता - मासाची, नैतीक भोग्णां - वोडण्यांची.

तुमी म्हाका समजोंक नांत म्हाका दुडवादीक फोरिनचो नव्रो सोदिजय घर जांवंय करिजय. पूण ताणें म्हज्या खातीर आस्वें, तुमच्या खातीर न्हय. तुमी म्हजी विंचवण करुंक म्हाका सोडिजाय. तुमकां तांतूं कसलेंच हक्क ना तें आज तरी कळळेंमू? आनी हें लिसांव सग्ळों वाडो आनी संसार जाणा जांवदी तांच्या विंचवणेक तीं तीं भागिदार पाटल्या दिसांनी हांवे जिविताविशीं मस्त चिंतून एक बरी आनी ऊंच्ली सयरीक सोदल्या तुमकां पसंद नातल्लियी जाव्येत आनी त्या विशीं हांव चिंतिना... आनी हांव ताच्या सर्सीन

वेतां... मस्त पयस आनी एक भद्र जाग्यार पावल्ल्या उप्रांत चडीत विवर हांवंच दितां.

तुमची विश्वासी धूव

**आयरीन**

**आलीस :** विश्वासी धूव खंय! दुश्वासी कुंडलें, म्हज्या कनिष्ट चिंतपाचें.

**आलेक्स :** आयकालेंयमू आलिसा, परतून वाचून सांगिजायगी.

**आलीस :** आयकालें आयकालें आनी परतून आयकोन बापण दींवक ना.

**आलेक्स :** तूं हें कागद कित्याक व्हरन गेल्लोयरे?

**वित्ती :** तुमी म्हज्या पाटल्यान धांवलां म्हण चिंतशात म्हळ्ळया भियान.

**आलीस :** तूं कित्याक गेल्लोयरे?

**वित्ती :** पोर हैदराबाद एक्सप्रेस रैल केदाळा म्हण विचारतालें पांच वोरार म्हळें हांवें.

**आलेक्स :** दुस्रे कितें म्हण्तालें?

**आलीस :** हैदराबादचो नोवरोगी सायबा रचणारा.

**आलेक्स :** चिक्के राव सायविणी आंवसरनाका, काळीज बसत, दुसरें कितें म्हण्तालें?

**वित्ती :** आतां व्हडिलां भुर्ग्यांचो फुडार पळेयनांत पयलें तांची भद्रती पळेयतात, भुर्ग्यान बरें जायजाय म्हण्तात तरी आपणेंयी बरें जायजय म्हळ्ळया स्वार्यान.

**आलेक्स :** वंधकर आलिसा आपल्या धुवेक तुवें नोवे महिने व्हावंच्या वदलाक

म्हज्या आफिसांतलीं फैलां व्हावयिल्ली तर नोव महिन्यांचो सांवाळ मेळ्तो.

**आलीस :** दुसरे कितें म्हण्टालें?

**वित्ती :** दुसरें, सवार जण म्हजो मोग करतात तरयी हांवें मात्र एकल्याचो मात्र मोग करचो म्हण्टालें.

**आलीस :** कोणाचो तो? हैदरावाद आसल्ल्याचोगी?

**वित्ती :** तें विचारूंक ना आनी ताणेंयी सांगोंक ना.

**आलेक्स :** तुज्या तितलो मूर्ख दुसरो ना. दुसरें कितें म्हण्टालें.

**वित्ती :** दुसरें सांगच्या भितर शिला आयलो, `थ्यांक्यू' म्हणोन चल्लें.

**आलेक्स :** थ्यंकयू महणालेंगी? सद्द्यक वांचलोच मार्गावयल्या सुण्याक पाटल्या पायांनी दिल्या खोटेकयी `कांक्यू' करता तें उडास आसों.

**आलीस :** आतां कितें करचें?

**आलेक्स :** वायलांक दोंप्रा सकला बूद, गुर्काराच्या बायलेक आनिकी सवलागी महळ्ळो दुबाव. आतां कितें करचें कोणालागी विचारताय? तुरुपाचो खेळ सुरू जाला `एकको' आनिकी खंय आसा कोणी नेणांत खेळ रावंवचो नाका भाग्र हाडिजायच!

**आलीस :** एक्को आनी तुजो तक्लो आयरीक कांय चड उणें जाल्यार?

**आलेक्स :** चड उणें जाल्यार वंळतेराक येतालें, तूं वांळतीक पळे हांव वोलाची मांडावळ करतां.

**आलीस :** तूं एकलो! वित्ते तुका हें सग्ळें कशें जालेंरे?

**आलेक्स :** सांगल्या परीं हें कितेंरे?

**वित्ती :** फांत्यार कामाक उटताना मेजार चीट दिस्ली वाचून कोणा पाटल्यान वेता तें पळेव्यां .... खंडीत रैलवे स्टेशनांत आस्तेलें म्हणोन धांवताना एक रिक्षा हांडली, आस्पत्रेक व्हेलें.

**आलेक्स :** आस्पत्रेक व्हेलें... डिसजार्ज केलेंगी?

**वित्ती :** करुंक ना हांवच आयलों

**आलेक्स :** आरे तुका हांकार. आतां आस्पत्रेचे जण घरा सोधूंक आयल्यार......?

**वित्ती :** थंयच्या वार्ड बोयाक पांच रुपय दीवन आयलां ताणें एडमीट जांवक नातल्ल्यापरींच करतां म्हळां.

**आलीस :** तितल्या आंवसरान कित्याक आयलोयंरे?

**वित्ती :** खबार तिळसूंक तुमकां.

**आलेक्स :** फोन करुंक जालेंनांवे तर?

**वित्ती :** आस्पत्रेंतलें फोन Out of Order खंय

**आलीस :** सायबा देवा म्हज्या आयच्या दिसाचें नशीब मोडळान बरयलां जायजेय आयरी धांवचें भुर्गों न्हय.

**आलेक्स :** तर चलोन गेलां आस्तेलें.

[सट्ट करन भितर वेता, एक बूक वाच्ता] आयका हास्सी बाये फटवासी- रडशी बाये दूक भोग्शी

चींतशी बाये कर्गासी - सांगशी बाये भष्टासी.

खरेंच विचीत्रतूं - विसर तुका घडयेन पडता.

तेरा सरोन चोवदा लाग्ताना - पेलो तुका राक्ता, आयकालेंयमू? कान फुलोन आयकालेंयमू? (बूक मेजाक मारता)

हिरोयिनीक धरूंक गेल्लो हिरो अवघडाक शिर्कोला हिरोयीन दुस्त्या पाटल्यान धांवलां कया कशी मुग्दाता तें हांवयी नेणां.

तुका हजार आनी एक पावटीं बंदूकेंत धारु भोरल्ल्यापरीं सांग्लां, तुका खंय नाटवाता. तुका जांवंय फोरिनचो जाय.

ताणे दाकटुलें आस्ताना दूद दींवक, म्हेळें केल्ल्या वेळा कूड धूंवक चड्डी धालिनाताल्ल्यावेळा मान धांपूंक हांवे सांगाजय. काजर करयां महणयी हांवे सांगाजय. तूं बायलगी वा म्हज्या भुर्याची आवय देव जाणा.

गांवचो जांवंय तुका नाका अबुदाबिचो जोकियामाचो पूतच जायजय.

**आलीस :** अळे भेष्टेंच म्हजेर चळवानाका सायवा तूं व्हडलें व्हडलें उलयताय तुज्या काल्सांवाचे बुतांव घालचो उडास तुकानातल्ल्यावेळा हांव कितलेसे पावटीं सांगानातलींगी?

[वित्ती तितल्यार भितर चलता]

**आलेक्स :** बायले जीव घालन उलूंवऱ्या पयलें तुज्या पेंकटार उमकळचा गागऱ्याचो नाडो घट्ट बांदूक शिक आनी उप्रांत दादल्याकडे उलय! व्हयगी म्हण्ताना...

**आलीस :** तू दादलो न्हय,

**आलेक्स :** आनी कितें?

**आलीस :** चावकोर कातकुतली आतां तुजें दादलेपण घेवन आयरीक सयरीक जाल्या म्हणोन सांगोन ये.

**आलेक्स :** तूं सैंबान नारी, त्या मोगोरल्यापरीं तुजें मन तिच्या कांटिपरीं तुजीं

उत्रां त्या कुसळ्ळ्या मास्ळेपरी; तुजो मेंदू केदनांय कट्टयांत रावाना, रांच्या कुडांत थोडया पावटीं शिक्यार उमकळता. तुजी जीब हाड नातल्ल्यान जाली, न्हय तर हाड मोडून तुका जाय तशी प्रयोग करतेंय तुमी ह्ये समाजेंत सुद्रांक आसा.

आदाय जाता वरेग हात दितात, खंय भ्यें रिग्लें तर हात सोडतात द्रडता ना, थिरासण ना, स्वनिर्धार ना, तुमचें चंचल उबच्या सुकण्यापरीं मन!! तो रचनार निदल्ल्या वेळा ह्या बायला सैंवाक सांपेड्रून कंट्री मारन बूद चेपल्लिगी म्हण्तां चिंतच्या पयलें कामाक देंवचें आनी हात हुल्पोवन घेंवचें.

**आलीस :** तूं अर्सेच उलंवक सुरू करशी तर हांव घर सोडन खंय तरी पयस वेतां ... म्ह्ज्या आवयगेर वेतां चोरांच्या भुयारांत रांवचें पुणी व्हय, पुर्पुरो दादलो आसल्ल्या घारांत न्हय. वेबद्या दादल्याक समजोंवचें पुणी व्हय, अतिरेकी दादल्यालागीं उलंवचें न्हय.

**आलेक्स :** आलिस.... (आर्भाटताना शिला प्रवेश)

**शिला :** बाबा....... बाये

**आलेक्स :** कितेंरे बिक्णेश्या, वारंट हाडन आयलोय. पेंकटाक घाल्ल्या खोटेक आन्किटी तोंडांतल्यान भाग्र भेजय.

**आलीस :** (सवकासायेन) कितेंरे? पाद्र्याव आस्पत्रेंत रावला.

**आलेक्स :** तूं कितें उलयतायरे? तूं खंयथावन आयलोयरे?

**शिला :** वाटेन वेताना बाये.....

**आलेक्स :** सवलाक जाप दीरे पज्ल्र्हा वान्शिऱ्या .... तुज्या चर्वेच्या धाळी

आतां वोडन काडन बाग्लार फुलां परीं घालून तुज्या वापायक स्वागत करुंक आसां.

**शिला :** वा...बा... वाये ... बावा आस्पत्रे थावन.

**आलीस :** आस्पत्रेक कित्याक गेल्लोयरे? स्टेशनाक पाद्र्याबाक सांगोन दाडल्लें न्हयवे?

**शिला :** स्टेशनाक वेताना वाटेर पाद्र्याब तीन मार्गांलागीं दाक्टो सेर्माव दींवक लाग्लो आनी आस्पत्रेक वचोन खरी गजाल समजोव्यां वित्याट्टू आस्पत्रेंत भरती जाल्ली खबार वाटेर मेळ्ळी म्हणालो.

**आलेक्स :** तर वित्ती मेळ्ळोयेरे?

**शिला :** ताचें खटलें आनी नंवर मेळ्ळें तो नातलो. हें पळेवन पाद्र्याबाक हैपर- टेन्शान आसल्ल्यान तक्ली गुंवोळ येवन पडलो ताका थंयसरच भरती केला.

**आलीस :** खंयसर?

**शिला :** पाद्र्यावांच्या फिसाच्या वार्डांत.

**वित्ती :** (सट्ट करन प्रवेश) कितें जालें दाट्टूक?

**आलेक्स :** दाट्टूक येणो आयल्यो खंय. आस्पत्रेक भरती केला. दाट्टू खंय. दाट्टू घडाय पळेवन आपली जडाय घेवन आयरीन जिवघात केला म्हणोन पोलीस स्टेशनाक रिपोर्ट दिंवक गेल्लो सवाय बुदवंत.

**आलीस :** कितेंयी जांवदी, तो आमचो आत्मीक व्हडील......पळेंवक वचाजय आयरिची गजाल सांगिजय... हें तुका कोणें सांगोंक सांगल्लेंरे?

**शिला :** मटवें आंग्लें न्हेसल्ल्या मटव्या तर्न्या नर्सान.

**आलेक्स :** ताचालागीं उलोंक तूं कित्याक गेल्लोयरे?

**शिला :** तेंच कुटटून कुटटून उलयलाग्लें बाबा. हांवें तोंड पर्यांत सार्कें पळोंक ना धुंवोन चल्ताना इल्लेशें पळेयिल्लें ताचें मटवें आंग्लें.

[वित्ती भितर चल्ता]

**आलेक्स :** तूं वचोन ये......आयरिची खबार सार्की कळता वरेग कितेंच नाका म्हाका भद्र जाग्यार पावल्ल्या उप्रांत तिळ्सितां म्हळां....भद्र जागो मेळोंकयी ना तिळसुंकी नांगी कोण जाणां.

**आलीस :** तें खंय आसा तें नेणास्ताना आमी तकली हून करची भेष्टं.

**आलेक्स :** तूं त्या पाद्रीक पळेवन ये घांटी वोडूंक सांग्च्या पयलें म्हाका खबार तिळ्सी. राग येताना कितें येतागी म्हज्या तोंडांत शिला तूं भितर वचोन मांद्री सोडवन निदे. हांव हांगाच निदतां .... तुमी वचा... वच... तूंयी वच...

(भितर वेताना पडदो)

# निमाणें द्रश्य

[वोरां सकाळिंचीं नोव! घरांत चडीत मौन. आलेक्स 6 दीस थावन उपास करन बस्ला आलीस ताच्या लाग्सार खटल्यार बसोन समजोंवचें प्रयतन करन आस्ता]

**आलीस :** उवच्या सुक्य्यापरीं गेल्लें आमचें आयरी खंच्याकडे पावलां आनी खंच्याकडे रावलां तें आमी नेणांव तर, कर्गोन कितें प्रयोजन? अळे खंत करन तुजी भलायकी पाड करनाका. तसिल्दार आस्ताना एकाच एक दाक्तेराक पळोंक नांय बदलाक सकाळीं उटोन व्यायाम करतालोय.

**आलेक्स :** आलिसा.... लुसिफेर काळीज मुड्डिता, देंवचार आन्किटी चिड्डिता आनी सां मिंगेल म्हजो अत्मो सुताक उमकाळवन उज्याचेर खेळता, उदकाचो बोल खेळल्यापरीं कसें हास्वें आलिसा? सुर्यो उदेला म्हजें आवक उणें करुंक. उज्वाड फांकला घारा भाग्र अंदकार गुस्ला घरा भितर.

**आलीस :** चिक्के सवकासाय काण्घे सायबा एका भाद्र जाग्यार पावल्या उप्रांत चडीत विवर आनी खबार तिळिसतां म्हळां न्हयवे?

**आलेक्स :** कस्लो भद्र जागो आलिसा? न्हाण्येंत न्हाताना भितरल्यान खिळ घाल्यारी आपूण भितर आसां म्हणोन घडये घडये मांडयाक चेंबू लागोंवचें चेड्डूं तें स दीस सवकासाय काण्घेवन काळीज पाताळ पाडलां, पियावाच्या सर्लापरीं उस्वास जोरान काण्घेन तर काळीज

तोंडांत आयल्यारी आयलें. पूण आयरी मात्र येंवचें ना म्हण दिस्ता.

आलिसा.... अलिसा ..... जर आयरीक कांय चड उणें घडात तर कितें करचें?

**आलीस :** तूं कित्याक भियेताय? बंळतेराक आयल्यार हांव बांळ्टीक पोस्तां. तूं माटोव घाल, भुर्ग्याच्या वोला दीस आयरिचें काजार करयां.

**आलेक्स :** तसें न्हय आलिसा तुजें उलोवणें बस्सार पाय तेंकतानांच कंडेक्टारान बिगील फुंकल्ल्या परीं जाता. ताच्या जिवाक कांय चड उणें घडात तर...?

**आलीस :** हां, तसें सांग.... तसिल्दार तकलेंत वूद आनी `माजी' (Ex) क ताच्याकी चिक्के वयरचगी कोण जाणां? तितल्या भियाचें चेडूं जाल्लें तर सोडन वेतेंना खंडीत पाटीं घरा येतेलेंच.

**आलेक्स :** केदनां आलिसा?

**आलीस :** तेंच हांव नेणां. ताका जाय जाल्ल्याक गांटव्येतें आसल्ले.

**आलेक्स :** ताका जाय जाल्लयाकडे काजार केल्लें तर जोकियामाच्या पुताक आञ्ल्केक चेडूं (धूव) हाडूंक खंय वेचें? म्हजे हात पाय आतां घट्ट नांत.

**आलीस :** आतां जाल्लें जाता जोकियामाक सांगोन सोडयां आनी कितलो

तेंप कुट्टयांचो खेळ खेंळचो? उद्राक लिपव्येत पूण हस्तीक खंय धांपून घाल्वें?

**आलेक्स :** आलिसा... मार्केटिंतलो मार्वाडी जाल्लो तर वा बस्साचो कंडेकटर जाल्लो तर सांग्येतें आसल्लें. गुर्कार जावन कसें उत्तर पाटीं काडूं? खंचे तोंड व्हरन सांगों? कितें सांगों? म्हजी कूड कांपता वाऱ्याक चिवो कांपल्ल्या परीं.

**आलीस :** भियेनाका.... आयरी आयरी काजार जायना म्हण.

**आलेक्स :** आनी काजार जायनासें उब्बार दोरे आसल्ल्या कान्वेटांत मात्र जांवक वेता म्हणोनगी?

**आलीस :** तसें न्हय मायवा आयरी काजार जायनां म्हण हट धरन रडोन वसल्लें .... देकून मावळ्यागेर दाडलां म्हण.

**आलेक्स :** सत चड दीस लिपोंक साद्या ना आलिसा (खोंक्ली काडता) आय्यो आलिसा (हात तक्लेक धरन खोंक्ली काडता)

**आलीस :** (भियान) कितें? कितें जालें?

**आलेक्स :** हांगा ..... हांगा ..... आय्यो खंच्यागी लुसिफेरान हांगा (पेंक्टाक) कूट्टी मारली जायजेय (आलीस चिक्क पुसून सोडता) आलिसा... आलिसा तुजो हात काडलो म्हण्ताना म्हज्या हरदयांत भाताचीं मुस्ळां कांडतात मैतान काळजाक कुट्टिता, गोडाच्या पेळयाक ऊंद्रांनी कुट्टिल्ल्यापरीं (आलीस नापसंदेन पुस्ता) आलिसा.....

आलिस ह्या कुशीन कितें आनी कितें, जायनां तें म्हज्यान सांगोंक जायनां (पुस्ता) पोटांतल्या आन्किटेक दांतांनी चाबोंक सुरु केलां. आनी अन्किटेंत मुसुंबेचो ज्यूस भरला आलिसा हांगा पळे हांगा (पोटाचेर ताचो हात व्हरता)

**आलीस :** किते? कितें जालां?!

**आलेक्स :** पळे चिक्के राव इल्ल्यावेळान कळता उदकांतली मास्ळी तडीर घाल्ल्यावेळा उडच्यापरी, पोटांतली अन्किटी दंतांचे उपाद्र सोसूंक जायनासें उडता.

**आलीस :** कळनां कांय. चिक्के समाधान काण्घे.

**आलेक्स :** आलिसा तुजो हात काडलो म्हण्तानां तक्लेंत बोंब फुटता चिक्के सक्ला आय्यो...आय्यो हांव मोरतांगी म्हळ्ळयापरीं दिस्ता. पूस आलिसा, हां......

[तितल्यार शिला उदक घेवक प्रवेश आंवसरान]

**शिला :** बा..... (आलीस - आलेक्स पयस रावतात)

**आलेक्स :** तुका कोणें आपयलेंरे?

**शिला :** अय्यो अय्यो म्हण रडच्या परीं आयकालें उदक सोडूंक आयलों.

**आलेक्स :** भान्शिन्या! पयलें शिताचो नीस पागळोंक सार्के शिकरे... उदक सोडच्याततली योग्याता आसल्ली तर महिन्याक धा रुपय सांबाळ आनिकी चडयतों.

शिला : बाबा... तुका ज्यूस मुसुंबेचो भितर तयार केला.

आलेक्स : आप्रूप मोगान बायलेकडे मुख - दूक उलयताना विलन आयल्ल्यापरी मधें येवन धोस्तायमू?

शिला: ना बाबा हांवें समा पळोंक ना.

आलेक्स : तुजो बापय म्हण्टालो ताका उग्डास उणो म्हणोन पूण ताचो मेंदू उणो आनी तुजी बूदयी उणी.

आलीस : पुरो. जाल्लें जालें. तूं जेविनांय तर ज्यूस पुणी पिये.... हाडूंक सांगिजायगी?

आलेक्स : (कितेंगी चिंतून उटता) ज्यूस ज्यूस स दीस नाका नाका. आनी ज्यूस नाका आलिसा.

आलीस : आनी कितें जायजाय?

आलेक्स : आलिसा .....आलिसा तुजे कान आतां फुलय म्होरीन पाकोट फुलयल्ल्यापरी काळजाचीं दारां उग्ती कर, धरचीं दारां बंध कर ह्या दळ्दीर शिलाक भितर बचोन शेळें उदक हुन करुंक सांग. उदकाक खतकतो येंवदी उप्रांत म्हज्या आनी तुज्या मऱ्यादेचो चिकोल काडून बारा कोंवल्यां मधलो सोर्केल्ले तांबडया शेंकाऱ्याचो कोंबो उदकांत बुडोवन ताचीं पाकां आनी तुजीं स्वप्णां पूरा सोल्न उडय. रुचीक कडियेन कुंकडा मास रांद.

चींत आज थावन नवीं काजारीं. आमचें एक्ले माणीक देवाक काणीक दिल्या, आब्रामान इजाकाक दिल्ल्यापरी आनी उपास करन कितें प्रयोजन?

**आलीस :** आमचा आयरीक जीव आस्ताना मेल्ल्यांत दारवल करिनाका सायबा तें खंडीत पाटीं येतलें ते नितळ निस्कळ फुल मारिया गोरेत्तिपरीं.

**आलेक्स :** सांतांच्या पट्टेंत वेकेन्सी फूल जाल्यात आलिसा. पेंडींग लिस्टीर जायते पाद्री- माद्री राकोन रावल्यात. आनी तुज्या दुवेक भरती करुंक एडवान्स बुककींग ना जालां.

आलिसा उगड तुजे दोळे आनी तुज्या घोवाक पळे. निवृत्त पोरच जाला. एका भुर्ग्याचो बापय सोडल्यार आंकवार तर्नाटो ह्या शिलाक भितर धाड. धाड भितर.

**आलीस :** भितर वचरे शिला (चल्ता)

**आलेक्स:** भितर दाडताना हुन उदाक दवरुंक सांग्लेंयवे? जोकीक हांगा आपवन हाडतां.

**आलीस :** जोकियामाक.

**आलेक्स :** पयलें हांवे सांगल्ले शिलाक सांग. शिला (आपयता)

**शिला:** (प्रवेश) कितें बाबा?

आलेक्स : वाये कुशीन तुजे कान दी.

शिला : दोनयगी एकच... म्हजो कान दुख्ता वावा (भियान)

आलीस : हेत्त! कस्लो एक भेंक्रोगी? सांग्ल्लें आयकरे त्या कडला तांव्डया शेंकाज्ल्लाच्या कोंब्याक गुडांत घालरे.

शिला : ताका पोरच मास केलां न्हयवे?

आलीस : तर.... त्या लांब वोंचिच्या कोंब्याक धररे.

शिला : ताका मारल्यार आमच्यो कोंबियो तांतियां दवरच्योनांत बाये. तां कोंबियांक वारी मोगाचो राय.

आलेक्स : युत्त नतुंगा, वचरे सांगल्ले कररे निकळ (चल्ता भितर) आलिसा रांदपाची विलेवारी तूंचकर ताका उणो मात्र न्हय मेंदुयी, कोंबो वा कोंबी तें पळेंवक हजार पावटीं गुंवडावन पळेंवचो मूर्ख तो जेवण पर्मळीक कर कुशिल्या घरच्या मन्शांच्या पोटांतल्या पिलांनी वोंबो घाल्वो आवाज आमच्या जनेलां भितरल्यान येजय.

आलीस : वेतानांच विचार्लेय? पर्वाना, तूं म्हजी बायल पळे. हांव आयरिची मयरीक जायना म्हण सांगोंक वेता.

आलीस : कित्याक म्हळ्यार?

आलेक्स : कित्याक महळ्यार सांग तूंच. जाप नेणांयगी. मारिया गोरेत्तीपरीं आस्वें धूव फांत्याफरार पणंदेपार जालांच्य आनी सग्रीक काण्घेवन

नाचोंक जाता? तुज्या धुवेच्या मोगान स दीस जेवण सोडन प्रचीत केलें. तरी प्रयोजन ना. जोकी थंय कितें खवार हाडता म्हण कागद बरंवक राक्ता आस्तलो.

**आलीस :** कोणी राकोन कांय करुंक जायनां. न्हय तर आमचें आयरी माद्रींक गेलां म्हण सांग सायबा, ताका काजार नाका म्हण.

**आलेक्स :** तूजी तक्ली हिटलाराची तरी धग्र बटलेराचें तसें तर हांवे जोकिलागीं माद्रींक दाडतां म्हण सांगोन फाल्यां सकाळीं मुडो घेवन बांळतेराक येत तर तेदनां कितें सांगायज? तुज्या तकलेंत इल्ली पुणी बूद आसागी ना? हांव सीदा वचोन आयरी घर सोडन धांवलां म्हण सत गजाल सांग्तां. जाल्लें जाता. आनी कोणी काजार करुंक भुर्गी नांत मन्याद घेवन पोट भरचें नाका. बेंकातल्या बाडिच्या दुडवान आमकां पोट भरयेत.

**आलीस :** तुजे पांय धरतां सायबा, दयाकरन धावलां म्हण सांगानाका. दुसरे कितें तरी सांग धा.... धाडलां म्हण.

**आलेक्स :** खंय धाडलां म्हण्चें? ताच्या बापायगेर.... हांगा! वा कोणाय पाटल्यान धाडलां म्हणोंगी?

**आलीस :** सांग्लेंने, ताच्या मावळ्यागेर धाडलां म्हण पाटीं येतेलें म्हण सांग्यां.

**आलेक्स :** मावळ्यागेर धाडल्याक आनी आयरिच्या सयरिकेक कितें संबंध

आलिसा? तुज्या तकलेच्यो थोडयो शिरो काम करिनांत. भाषणा वेळा मैका काम करिनातल्याबरी. सयरीक कित्याक पाटीं काडची म्हण सांग्चें? तुजी धूव गुर्वार म्हणोगी? तुमी बायलां स्वभावान चंचल. तुमचें काळीज निश्चल रुकापरीं आनी तुमची मत रुकाच्या सावळेपरीं घडये घडये बदलता.

**आलीस :** तूं बरें साग्ताय गेल्ली मन्याद पाटीं येंवची ना तें उडास दवर.

**आलेक्स :** देकून कितें करचें तें सांग.... हांवे सांग्चें तुका बरें दिसाना.

**आलीस :** राव, एक घडी चिंत्तां (पासायो मारता) हां (संतोसान)

**आलेक्स :** (आतुरायेन) हां! कितें कितें सांग आलिसा घडयेन उडास मायाग जायत्त.

**आलीस :** (च्ने जाता) तसें जायनां (परतून चिंत्ता) आयडिया.

**आलेक्स :** कितें कितें सांग. करेंट गेल्ल्या परीं पुक्र करिनाका.

**आलीस :** अळे आमी.

**आलेक्स :** तुवें म्हण्चें `आमी' कोणा कोणाक कुडसून आसा तें सांग्तायगी?

**आलीस :** साग्चें आयक सायबा पयलें मागीर तुजें कोंक्कें घाल वो...... उडासयी गेलो.... छे!

**आलेक्स :** तुजो उडास गिर्वुजेचो आनी आलोचर्यो हस्तिच्यो तुका साद्य ना. थंड बस.

**आलीस :** राव. आयलो.

**आलेक्स :** राव आयलो मांयचो घोव आयलो. कोणी येंवदीत, तुज्या मतिंतलें सांग म्ह्जें काळीज आतुरायेन सळसळता, तेलांत बोंडा सळसळ्ळ्यापरीं.

**आलीस :** आयक आंवसरनाका...... काल सर्यारिके वावतीन हांव.....म्हळ्यार तूं अयरिलागीं उलयलोय ताका कित्याकगी राग आयलो. म्हाका ख्रुशी आसल्ल्याकडे जातां, नां तर जायनां म्हणालें.

**आलेक्स :** आनी फांत्यार ताच्या पाटल्यान धांवलें. हिचमू तुजी तक्ली?

**आलीस :** पुरनें आयक सायबा मागीर उलय.

**आलेक्स :** आनिकी आसागी? सांग सांग वेगीं?

**आलीस :** सग्ळें सांग्चा आदीं आंवसर. नोव्या मैञ्ल्त्राक उकडानातली पोळी म्हळ्ळ्यापरीं जालें. आयक आयरी नाका म्हणालें आनी सद्दयाक काजार नाका म्हणालें देकून हांवे हांवे म्हळ्यार 'तुवें' जायजाय म्हळ्ळ्याक आतां जायनांचू म्हण हट करिलाग्लें.... मागीर... मागीर .... (पादेता)

**आलेक्स :** मागीर कितें जालें?

**आलीस :** मागीर (थिंवी गिळताना आलेक्स तक्लेक थापुडता)

**आलेक्स :** आयलेंगी?

आलीस : मागीर हांव म्हळ्यार तूं.....

आलेक्स : कळ्ळें मायविणी सांग.

आलीस : उलोंक वचोंक ना. पूण मकाळीं उटतांना पात्तोना, खंय गेलां तें नेणां कितें करचें? ताचालागींच विचार. कितें म्हण्टा ते पळे. कशी ऐंडिया?

आलेक्स : (पुक्क करन हास्ता) ऐंडिया इंदिरागांधिची कामां मंजय गांधिचीं ताच्यालागीं कितें करचें म्हण विचारल्यार चिभणी धवन दांगाय सोदा म्हण्तोलो न्हय तर तुज्या धुवेक गुंडयेंत घाल. म्हज्या पुताक जोड आसा तो अकुदावी आमा दुमर्गी मेर्गीत. सोदतां म्हणांक आमा तेदनां कितें म्हण्चें? तेदनां तोडाक कर्री पुमिजायर्गी?

आलीस : तूं एक कम्ने जिंग्रिविमांव मागताय ने म्हाका कळानां. आयरीक दिनांच म्हण कितें करना पळेव्यां

आलेक्स : ताणें कितें करचें? ताच्या पुताक काजार करताना तुका रांदपाक कुमकेक आपयतालो म्हाका गुर्कार जावन भलायकी मागोंक सांगतलो. आयर्गीक व्होंक्ले पाडतीन देडी उणे पडल्यार रावोंक एक आवकास दितलो... ऐंडिया खंय ऐंडिया न्हय कर्मा भुर्गो नातल्यार ना म्हण जालें, आस्ल्यार ही गत. काजार करिनास्तां रांवचें पुणी न्हय कोणायकी उतर दिवंचे न्हय हांव भाग्र सरतां.

(भितर चल्ता)

आलीस : कितें सांग्चें देवा म्हज्या? एक्की मतीक रिगाना. हो एक्लो गुर्कार न्हय उज्याचें आग्टें. कितें करचें? घुंवलां म्हळयार जायनां गेलां म्हळयारी जायनां, दिना म्हळयारी जायनां दुस्यो वाटो नांत (चिंतून पासायो मारता) हां! अळे वेगीं भाग्र ये.

आलेक्स : (आंवसरान) कोणी देंवचार आयलोगी म्हण चिंतलें तुका उक्लून व्हरुंक.

आलीस : पाद्र्याबाकना राजी पंचात की करन सयरीक पाटीं काड.

आलीस : कोणाची? म्हजी आनी तुजिगी वा जोकिची आनी ताच्या बायलेची?

आलीस : तसें न्हय सायबा, जोकियामाच्या पुताक दुस्रीच सयरीक सोदूंक पर्मिशन. चेडवाक सार्की प्राय जांवक ना. बूद बसोंक ना म्हण कस्लिंयी कारणां दींवक सांग.

आलेक्स : (थोडो वेळ चिंतून) कडेक तरी तुज्या मतींत देंवळो शिर्कालो. पर्वाना, तुजो मेंदू काम करता. आलिसा, तुजी ऐडिया ही एक बरी रुचली (वस्तूर सार्के करता) आतां हांवे खुद्द वचोन कसें सांग्चें? मास्ळी काण्धेंवंक गेल्लो मोगोरल्यालागींच पोतें ना म्हळ्ळयापरीं. जांवदी हांव पाद्र्याबाक घेवन जोकीक हांगा आपवन हाडन गजाल पाद्र्याबा मुकांत्र तिळिसतां. तूं जेवणाची विलेवारी कर. हांव येतां वरेग खंचो सांत आयल्यारी घरांतलो पांय भाग्र दवरनाका.

**आलीस :** एक गजाल.....धांवल्ली केल्ली खबार चुकोन तरी कोणयकी सांगनाका मागीर मऱ्यादेक कोर्गोरल्याच्या गाऱ्याक पडल्ल्या हजार बुराका परीं पडोंक आसात.

**आलेक्स :** मऱ्याद म्हळ्या लैटाची स्वीच घालच्या आनी काडच्यापरीं बदलूंक जायनां. आनी सवायेन मेळोंक बजारांतलीं बोंबिलां न्हय.... हांव सैंवान दादलो. म्हज्या कुळियेचो आदांव आदलो. हांव जाणा सायबिणी मऱ्याद. आनी किंतेंय सांगोंक आसा?

**आलीस :** आनी.... आनी कांय ना वेगीं ये.

**आलेक्स :** तुका आलोचऱ्यो जिव्या पोण्साचों पांक देंवल्ल्यापरीं घडये घडये देंवतात. म्हजो जीव उज्यालागीं दडबडच्या कोटारलेपरीं जाता. हांव वचोन येतां (चल्ता)

**आलीस :** सायबा, देक म्हज्यां! असले बांदपास आयरिच्या बांळतेरा तेदनांची नातल्ले, सयरिंकेवेळा आयलेंयमू? शिला... शिला ...... हो खंय मेलागी म्हण्ता.... शी....

**शिला:** वो वो वो (प्रवेश) कितें बाये?

**आलीस :** कितें करतोलोयरे? खंय गेल्लोयरे? कामां जायतीं आसात....

**शिला:** वाये आमचो कोंवो कुशिल्या घरच्या कोंवियेलागीं ओर टैम करता, आपयल्यारी येना बाये.

**आलीस :** वचरे धरन हाडरे?

**शिला :** बाये कांवो आसा पळे, इञ्जूगेल्या कोंबियेचेर मोगार पडला, सुशेगात भोंवता पळे.

**आलीस :** मोग मोग म्हणोन एकलें नापात्तें जालां. तूं वेंकञ्ह्ला वचरे सांगल्लें काम कर.... निकळ (चल्ता)

हो एकलो कामाचो ताका लाग्ला तमासो

[तित्ल्यार वित्ती प्रवेश थोडयाकडेन प्लास्तार आस्ता]

**वित्ती :** आंटी कितंयी खबार आसागी आयरिची?

**आलीस :** कांय ना पुता. आमचो एकलो सासांव तेलांत फुटल्ल्यापरीं पुटलों आतां सयरीक पार्टीं काडूंक जोकियामाक सांग्तां म्हणोन गेला... पाद्र्याबा सर्शीन वेतां म्हण्तालो.

**वित्ती:** कितें? दाट्टू सर्सिनगी? तों व्हडोलच जोकियामा सवें तांगेर वेतालो वाटेर मेळ्ळो... आमगेर उप्रांत येतां म्हण्तालो.

**आलीस :** कोणी आयल्यार कितें गेल्यार कितें? आयरी ना म्हणोन खंत जाता पुता, देवान पळेयनातल्ली सुवात ना.

**वित्ती :** भियेनाका आंटी, आयरी खंडीत येतेलें.

**आलीस :** केदनांरे वित्ती?

**वित्ती :** तें देवच जाणा आंटी.

**आलीस :** तुवें वकात हाडलेंयगी?

**वित्ती :** व्हय आंटी, सद्दांय आम्पत्रेक गेल्यान वेगीं बरो जालों न्हयागी?

**आलीस :** हांव दोन्पारांची जेवणाची तयाराय करतां सैऱ्यांक आपोंवक गेला. (भितर वचोंक मेटां काडताना)

**वित्ती :** आंटी .....

**आलीस :** कितेंरे वित्ती?

**वित्ती :** तुज्यालागीं एक विषय विचारल्यार राग येंवचोनांमू?

**आलीस :** नांरे विचार. कितें?

**वित्ती :** जोर करचिनांयमू?

**आलीस :** ना म्हळें न्हयवे? कितें तें?

**वित्ती :** हांव कसो दिस्तां?

**आलीस :** कसलें सवालरे तुजें? कितेंरे गजाल?

**वित्ती :** सांग आंती उप्रांत सांग्तां.

**आलीस :** बरो दिस्ताय.

**वित्ती :** सत्तमू?

आलीस : कितेंरे गजाल?

वित्ती : हांवे एकल्याचो मोग केला आंटी!

आलीस : चेड्याचोगी चेडवाचो?

वित्ती : तूं एक कितें उलयताय आंटी हांवच चेडो आनी हांवे चेडयाचो मोग कित्याक करचो? चेडवाचो, चेडवाचो.

आलीस : तुज्या भर्काता म्हण्तां! तुका मोग करुंक चरव मांडलियेंरे? कोणरे?

वित्ती : चरब न्हय आंटी, प्राय जाली. चेडूं वारी बरे भुगें आंटी. आंज... आंजापरीं कोंग्रे केस, फुग्रे गाल... सवकास चाल... तांबडे वोंट आहा... आंटी...

आलीस : बंध कर! तुज्या मोगाक दन्पारां भराचो पेट पडोंक कितेंरे मोग म्हळ्यार?

वित्ती : मोग!

आलीस : तुमकां तर्नाट्यांक कसोरे मोग रिग्ता. वाटेर चल्तेल्या चेडवाचो मोग, सिनेमा, नाटकाक गेल्ल्या वेळा कुशीन बसल्ल्या चेडवांचो मोग... निमाणें आस्पत्रेक गेल्यार थंयच्या नर्सांचो मोग... युत्त मोग न्हय खोरोज खोरोज !

वित्ती : आंटी, आंटी तुका कसें कळ्ळें आंटी, खोरोज न्हय मोग आंटी. आडमीट जाल्याकडे आस्पत्रेक भरती जाल्यावेळा म्हाका तें

मोगान पळेयताना, लागीं, येतालें हाता-पायांक दांबतालें, म्हजें काळीज आकलास्लें आनी उवलें हांव ताचो मोग करतां आंटी.

**आलीस :** आस्पत्रेक आडमीट जाल्याकडे मोगार पडलोय तुज्या हंकारा.

**वित्ती :** स दीस जाले आंटी, ताणे पिक्चाराक आज आपयलां, हांव चल्तां दोन्पारां जेवक येना... अंकलाक सांगानाका हां!

**आलीस :** तितल्या वेगीं पिक्चाराकी आपयलांगी? ताच्या धैराक म्हण्तां.

**वित्ती :** घरा आपयतालें आंटी... म्हजो जीव घट आस्लयारी काळीज तितलें घट्ट ना म्हणोन वचोंक ना.

**आलीस :** खंचेंरे? कोणरे?

**वित्ती :** जोकियामाच्या भावाचें पोकियामाचें धूव आंटी... बारी बरें भुर्गें.

**आलीस :** सायबा काकळूत कर आटोम्याटीक धूव आस्तलें.

**वित्ती :** दाट्टूक, अंकलाक हांगाच प्रेंडागेर गेला म्हण प्लीज आंटी.

**आलीस :** कित्याक लिपयतायरे?

**वित्ती :** लिपंवचें सवाल येना आंटी. चोरन खेल्ल्यांत रुच चड नेणांयगी?

**आलीस :** कितेंय कर... जाय तर काण्घेवन धांव.

**वित्ती :** हो! स्वीट आंटी (घडयेन भितर वचोन भाग्र येता) त्यांकयू आंटी... (चल्ता)

आलीस : हो मोगगी मोग! व्होर्बोस हो! आमच्या एक्ल्याक चेडवाक सुरू जावन धांवताना, हाकाचेडयाक कसें रावंवचें? म्हजी तकली पिशी जावन येता मग्ळे चिंत्ताना.

[तिनल्यार पाद्र्याव, पोकी, जोकी प्रवेश]

पोकी : किते आलिस पुर्पुरताय रांदणींत जिनीं लांक्डां मुर मुरल्या परीं ... गुर्कार नांवे?

आलीस : गुड मोर्नींग फादर वसा... वसा ... वसा आमचो तुम्कां सोदून गेला फादर आमचेर...

पाद्र्याव: (मदग्त) आयरिचे मयरिंक वावतीन जाल्लों प्रस्नाप जोकी कडे...

आलीस : (मदग्न) आमचो जोकियामाक सोधून गेला फादर थोडें गर्जेचें उलोंक आसल्लें.

जोकी : आलिमा... भयणी... दयाकरन म्हाका भोग्सिजाय.

आलीस : जोकियामा .. तुका भोग्सूंक आमी फावो न्हय तुवें आमकां भोग्सिजय.

जोकी : आलिसा हांव आनी चड्डी न्हेस्ताना थावन `चड्डी ईष्ट' जावनासल्यांव म्हजो पूत भांगारा सार्को भुर्गो आसल्लो दाक्टो आस्ताना. एक्की उतर म्हजें मोडिनातल्लो.

आलीस : (मदग्त) जोकियामा दयाकरन म्हाका इल्लें आयक. तुज्या भांगार

पुताक आमी हाडूंक चिंतल्लें.

जोकीः (मदग्त) पूण आलिमा दयाकरन म्हाका इल्लें आयक ताका शिकाप दिलें अत्रुदावी दाडलो आनी काजार करुंक चिंतलें पूण सरवेस्परा (तितल्यार आलेक्स प्रवेश)

आलेक्स : तुम्कां सोधून पांयांच्यो सात काती झरोन गेल्यो.

पाद्रयाब : कितें गजाल? कितें?

आलेक्स : कितें मांग्चीं म्हजी कर्मां.

जोकी : आलेक्स ... तुवें म्हाका... (लागी येतात)

आलेक्स : जोकी तुवें म्हाका भोग्मिजय.

जोकी : तुवें म्हाका दयाकरन दयाकरन भोग्मिजय (भावळे हालयता)

आलेक्स : जोकी म्हज्या इष्टा तुका खंच्या तोंडान सांगों. आयरिची मयरीक पाटीं काडयां.

जोकी : हांवयी त्याच खातीर आयिल्लों आलेक्सा.

पाद्र्याव : चिकूके सवकामाय काण्घेयात ... हांव तुम्कां नवो जीव दितां. आनी धैरान भरतां तुमची दोगांयची आशा सुफळ जाल्या. आतां म्हाका आयकायात.

जोकी : कितें फादर?

**आलेक्स :** फादर उलयात.... आमचें आयरी...

**पाद्र्याब :** तुजी धूव आयरी आनी जोकियामाचो पूत काजार जांवचीं नांत.

**आलीस :** आमची चूक आमी वळकातांव फादर.

**जोकी :** हांवच पाटीं काडतां आलेक्सा ...

**पाद्र्याब :** (सर्व गुस्पडतात) तुमी आंवसरांत आनी भिरांतेन एकामेका थंय उवजाल्ले समस्ये नेणांत. हांव सेमिनरींत मनशास्त्र दोन वरसांचे तीन वरसां शिक्लां थोडीं घडितां अशें घडतातगी आम्कां जाय जांवच्या परींच जाताना भाग वा नशीब म्हणोन वाखण्तांव.

**आलेक्स :** फादर आयरी...

**पाद्र्याब :** मधें उलयनाका. जोकियामाचो पूत अबुदावी कामाक गेल्लो. यंयसरच (एक आर्विणीक) `सोलानावी' म्हळळया चेडवालागीं काजार जाता म्हण आजच जोकीक कागद आयलां.

**आलेक्स :** कितें? सत गजालगि ही?

**पोकी :** गुर्कारामा पर्देशांत रवाण वस्तू मात्र न्हय रेडिमेड चेडवांयी मेळ्तात. पूरा आटोम्याटीक घडितां !

**आलेक्स :** आतां कळ्ळें.

**जोकी :** तर आयरी खंय गेलां जाणांयगी?

**आलीस :** किनें, तूं पुणी जाणांय तर सांग.

**आलेक्स :** आलिसा सवकासाय काण्घे हांव सांग्तां. आम्चें आयरी, घरांत आसल्लें थोड्या दिसां आदीं आतांना.

**पोकी :** आटोम्याटीक मायाक जालांगी?

**आलेक्स :** तें नेणां तें घरांत ना, ती वेंजारायेची गजाल (तितल्यार `फोस्ट' वोब म्हण आयकाताना आलीस बाग्ला लागीं वेता) देकून आमी गजाल मन्यादे ग्वातीर एदोळ घुटान दवरली ताणें भद्र जाग्यार पावताना निळिसतां म्हळां.

**आलीस :** (आंवसरान) हें आयरिचें कागद.

**आलेक्स :** कितें ! हेवशीन दी वाच्तां.

**पाद्र्याव :** सवकास वसोन वाच... सर्वां अस्कत काळजाचींच हांगा आस्वी!

**आलेक्स :** वाच्ना (भितर थावन आयरी वाच्ता) मोगाच्या पाप्पाक आनी माम्मीक, क्रीस्त संसाराक आयिल्लो मन्शां ग्वातीर, तांकां पातकांतलें मोडंवच्या ग्वातीर ग्वोटेपणांतलें राकच्या ग्वातीर तें तुमी जाणांत (चिक्क रावता)

**पोकी :** कितें सेर्मांवगो...

**जोकी :** चिक्के ऋगो रावरे वाच वाच.

**पाद्रयाब :** वाच् आलेक्सा.

**आलेक्स :** हूं! तेदनां सगळया संसाराची सोडवण करुंक एक्लोच सोडवदार आयलो. तरी आज नोवशीं मिलिया लोक आस्चा आमच्या भाराताकच डजनां लेकार क्रीस्ता आयल्यारी करच्या तितलीं कामां आसात.

हें सत तुमची धूव जावन वरयनां वगार एक रेलिजियोस भ्यण जावन' लिख्तां.

हांवे क्रिस्ताची सयरीक सोदली. आनी राता रातीं सर्व सोडून ताचो पाटलाव करुंक आज कलकात्ता पावल्यां क्रिस्ताचें धैर्य आनी स्पिरीत म्हज्या थंय काम करता जाल्यान मात्र हें साद्य जाता. तुमी म्हाका पर्वण्गी दीनातल्यारी तुमच्या नांवान दुसरें एक कागद आनी एक वोळिकच्या पाद्र्यावाची नडत्याची सर्टिफिकेट घेवन भरती जाल्यां आतां मदर तेरेजाच्या मेळांत आवकास लाभ्ला.

म्हाका सयरीक जाल्या आनी जोकियामाच्या पुताक दुस्री व्हरी सयरीक मेळोंक माग्तां आनी आयरीक देवागेली सयरीक जाल्या तें तिळिसयात.

हांव तुमच्या खुणे विरोध गेल्याक भोग्सियात तरी लिसांव इतलेंच सगळयांक कळाजय तांची तांची विंचवण म्हळयार तांचे तांचें स्वतंत्र तांतूं ओत्ताय वा ओत्तड उपकारना वऱ्या संग्तिंनी पांय दवरताना धर्म करिजाय आनी पाड संग्तींक मात्र भियेजय.

विंचवणे परिणाम तांकांच लाभ्तालो वरे या वाट्ट, ध्रौक वा अमृत.

मोग आसों, तुमच्या ख्वातीर मागता

*विश्वासी ध्रूव,*

**आयरी**

**आलीस :** मायवा सोडवण्दारा, माद्र जांवक वेचें नाल्यार आमींच दाडयेनें आमल्लें.

**आलेक्स :** फादर, ह्या बायलां मैंभाक आनी मुखार तंग नडीन वृद दीवक मरवेस्परालागीं विनंती करात, माद्र जांवक वेना म्हूण्ताना आस्वें एक्लेंच ध्रूव.... आवुदाविचो नात्रांय जाथजाय म्हण नाचालाग्लें आतां पळे.

**पाद्र्याव :** तुजे ध्रुवच्या धैराक हांव खूश पावतां आलेक्सा तुवेंयी खूश पावाजय.

**आलेक्स :** पूण जायनाने फादर.

**पाद्र्याव :** चेडूं धांवलां तर बऱ्या उध्देशान, पक्र्यां चेड्या पाटल्यान न्हय. अशेंच थोडीं चेडे आनी चेडवां ममजोणेन धांवतीत तर मंसारार जायतें बरेंपण जायत...

**जोकी :** नीज जावन आयरी मामर्थीवंत चेडूं...

पोकी : धेर म्हळ्यार तसें अटोम्याटीक येजय ... आमचीं कांय नांत कोणाय पाटल्यान धांवोंक जानांत विनहा वाट चुकांन पुर्णी कोन्वेंटाक वेचीं नांत हावा.

आलीस : म्हजें भांगार धूव आयरी (रडता)

आलेक्स : आतां विळाप करिनाका! कळ्ळें!! चूक म्हजियी आमा पादर हांवेयी आलिसाचें उतर आयकानाशें मादींक दाडयेतें आमल्लें तरी फोरिन्वो जांवंय चुकता म्हळ्ळया भियान आलिसाक सपोर्ट केलो पूण प्रयोजन जालेंना.

आलीस : हांवें केल्ली व्हडली चूक. पर्की चल्यालागीं उलयनासें, भर्सानासें ताका बंधडेंत दवरलें !

जोकी : वोट्रामी हांवें आलिसाक उतर दिल्ल्यान ही चूक धडली न्हय तर आयरी बऱ्यान मादींक वेतें.

पोकी : आतां पुरा आटोम्याटीक चुकी भाग्र येतान मुटाचें कुमसार जावन दूक धरात।

पाद्र्याब : जालें, सन्वारा कुम्पाराक येयात कांय जोकियामाचो पूत मयरिके वाल्लीन फारिन्वें टेरिकोटन लोवाचें लुगाट हाडीन म्हळ्ळया आशेन हांवयी चडीत मेतेर जाल्लों कितें करचें?

[शिला आंवसारान प्रवेश]

शिला : बा...... वाये कोंवो.... (आजाप्ता)

**पाद्र्याव :** कितें जालें शिला, किल्याक वांत्र मारतात? तुमचें आयगे माद्र जालां संतोस पाव खूश नू भाव.

**शिला:** ह्ययगी फादर! अरेरे हांवें वांयत पडलां म्हणोन फट मारल्या फादर तें कें पातान जातागी माह्यां पाताक जाता?

**आलेक्स :** तें कुमसारींत सांगर! रांदूक सुरू केलांगी ना?

**शिला:** कोंवो कोंविये पाटल्यान धांवल्लों कितलें प्रयत्न कल्यारी मळोंक ना वावा.

**आलीस :** तुजीं कमां या भितर जेवणाची तयाराय करयां.

**जोकी :** आलिसा, एक मिनूट आलेक्सा हांवें घरा रांदून दवरूंक सांग्लां एदोळ तयार जालां आस्तलें प्लीज आमी मकडा चल्यां.

**पाद्र्याव :** वित्ती ब्वंय गेला..... दिसाना!

**आलीस :** तो येवन धांवल आस्पत्रेंत ताका एकलें नर्स शिर्कालां (जीव चावता सांगोंक नजो म्हळ्ळ्या खातीर)

**पाद्र्याव :** कितें गजाल हांव आयकातां !

**पोकी :** आसोंदी आसोंदी फादर. म्हजी गजालयी तरी तितलीच म्हजो भाव आस्पत्रेंत आस्ताना ताका जेवण करून येताना एक्लें भेटलें आतां तें म्हजी ककाल. आतां म्हजी धुवयी नर्स जालां.

**आलीस :** वित्ती सांगोंक नजो म्हण्तालो तरी हांव आंवसरलीं तुज्या धुवेकयी तांच लाग्ला.

पोकी : किते किते आयकातां!

आलेक्स : वायलांची जीव आनी मत एकाच मेंदवाग्याल आगाना तें खंडीत.

पोकी : शिकयतां तूद वरो फोरिन्चो नांवरो मोधल्लो तर -

जोकी : चिके समाधान काण्घरे फोरिन्चो आनी मात्ती. गांवचे तर्नाटे खंचांत उण आसात? जोर करुंक गेल्यार आयरिच्या सयरिके परीं जायत.

पोकी : तंयीं ममा!

पाद्र्याव : जालें निमाणें तरी आयरी पाटीं आयलें ना, तरी ताचें पिंतुर आमचे मुखार आमा देव ताका शकोन मांबाळुंदी आर्मी उटयां.

शिला : फादर घडाय पिकता तुमी जिवधात केला म्हळ्ळो.

पाद्र्याव : तर मुळांतलीं दोन पात्रीं मोटीं फळेवन काडन कुड्रांत फ्रिज्डच्यां दवरून काडन हाड आमी मुखार वेतांव.

पोकी : आय्यो परतून तुमोर जंवसें नशीव चुक्ले.

जोकी : यारे पोकी आमी मुखार वेतांव तुमी पाटल्यान येयात (चल्लात)

आलेक्स : शिला भितर वच (चल्ना) आलिशा तू किते रुक जालांय? वागील धांप आयरिची सयरीक भुग्दालो. आनी आम्वें राज कळ्ळेंगो? नवींच काजारी म्हणोन थींत!! हा .. हा.. (हास्ताना पडदो)

